# वेंचीक मलयाळम कविता












संपादक : पय्यनूर रमेश पै

# वेंचीक मलयाळम कविता

संपादन : पय्यनूर रमेश पै

कोंकणी साहित्य अकादमी - केरळ
एरणाकुळम

(Konkani)
**VENCHIK MALAYALAM KAVITA**
Translated Poems

Compiled by :
**Payyanur Ramesh Pai**

First Edition
December 2015



Published by
Konkani Sahitya Akademi - Kerala
12-E, Sowparnika Apts.
T.D.Road, Ernakulam - 682 035
Tel: 9847973039

Printed at
Ayodhya Printers
Elamakkara
Ernakulam - 682 026

Copies 500
Price : ₹ 80

(कोंकणी)
**वेंचीक मलयाळम कविता**
अनुवादित कविता

संपादक :
**पय्यनूर रमेश पै**

पयली आवृत्ती
डिसेंबर 2015



प्रकाशक
कोंकणी साहित्य अकादमी - केरळ
एरणाकुळम - 682 035
www.konkani.sahitya.akademi@gmail.com

मुद्रण
अयोध्या प्रिंटर्स
एळमक्करा
एरणाकुळम - 682 026

प्रती 500
मोल : ₹ 80

# संपादकीय

मलयाळम केरळची भास; देकून मलयाळमाक "कैरळी" अशीय नांव आसा. केरळचे कोंकणी लोकांक मलयाळम येता आनी थोडे कोंकणी मनशांनी मलयाळम साहित्यांत वावर करून नामना जोडल्या.

जाल्यार केरळचे मलयाळम कवितांचो कोंकणीन अणकारीत एक संग्रह अजून उजवाडाक आयिल्लो ना. तें काम आतां आमी करतात.

ह्या संग्रहांत 21 कविता वेंचून आस्पाव केल्यांत. आनीकूय चड कवितांचो अनुवाद येवंक जाय. आमच्या ह्या प्रयत्नाक तांक दिवन सहमति दिलेल्या मूळ लेखकां आनी अनुवादकांक काळजांत साकून आमचो धन्यवाद.

मलयाळम कवितांचो एक नियाळ आनी वळख केलेल्या श्री शरतचंद्र शेळैल्या लेखनय हांगा दिलां. त्या खातिर ताका देव बरें करूं म्हण्टा.

खूब कवींगेल्यो बऱ्यो कविता हांगा पुंजावंक सोडून गेल्यात. तीं आनी एक संग्रहांत येवंक शकतात. आतां हो संग्रह वाचकांक समर्पण करतां.

**- पय्यनूर रमेश पै**

अध्यक्ष

11 डिसेंबर, 2015 — कोंकणी साहित्य अकादमी - केरळ

# मांडावळ

# काव्यकैरळी :

## मलयाळम काव्यप्रपंचाची वळख

**- शरतचंद्र शेणै**

'मलयाळम' ही द्रविड भाषावर्गांतुली एक मुख्यभास. व्याकरण आनी उतरावळ पळयल्यार हिचें नातें तामिळ भासेकडे. पुण संस्कृत भासेचो म्हत्वाचो प्रभाव हिचेर आसा. क्रिस्ताब्द णवाव्या शतमाना पासून एक स्वतंत्र भास म्हणून हिचो परामर्श जाला. जाल्यार मलयाळम साहित्याचो उदय केवल बाराव्या शतकांत दिसून येता. तेन्नाचान मागीर प्रति एक शतकांतूय ह्या साहित्यांत साबार परिणाम पुरोगति जायत आयल्या. बारा ते पंदरा शतमानांत गीत काव्यां, मणिप्रवाळ आनी 'चंपू' उपजलीं. ह्या 'चंपू' आनी मणिप्रवाळ कृतींत संस्कृत भास अर्दाक अर्दी वापरल्या. ताचे उपरांतें गीताची आनी मणिप्रवाळाची शैली जुळोवन 'कण्णश' कृति भायर सरल्यो. पंदराव्या शतमानांतुल्या 'चेरुश्शेरी नंपूतिरीन' रचलेल्या 'कृष्णगाथा' काव्यांत स्वल्प एक नवी शैली आनी उतरावळ दिसता.

सोळाव्या शतकाच्या दुसर्या अर्दाक लागून मलयाळम साहित्याच्या मळबार एक तेजिष्ट नक्षत्र उदेलें. 'तुंजत्त रामानुजन एषुत्तच्छन' ह्या महापुरुषान 'अध्यात्म रामायण' रचून आधुनिक मलयाळम साहित्याक बलिष्ट आनी वरिष्ट बुनियाद घाली. चंपू आनी मणिप्रवाळ शैलीं थाकून व्यत्यस्त एक शैली ताणे वापरली. संस्कृत भासेचो तिरस्कार करीनासतनाच द्रविड शैलीची प्रौढी ताणे घेतली. शैलीसमन्वयाचो तो एक चमत्कार ताचीच वाट पळोवन आशिल्लो. तागेल्या प्रति एक कृतींत ताजो आत्मो असो पडबिंबित जातालो की ते मेरेनचें सगलेंय साहित्य

केवल उपरिप्लव म्हूण दिसतालें. आपलो आत्मो थळथळपी रचनेंतुल्यान ताणें भक्तिभावांत लयलीन जावपी दार्शनिकतेचें एक युग रचलें. इतरां थाकून साप्प वेगळी, केरळची आपली तसली एक शैली आनी भास ताचे लिखणेवेल्यान जन्मली. ह्या पुण्यपुरुषाली स्मरणा आनी नांव चिरंतन उरचें म्हणून आतां राज्य सरकारान 'तिरूर' गांवांत, तागेल्या जन्मस्थलार 'तुंजन मेमोरियल रिसर्च सेंटर एंड लिटेररी म्यूसियम' उबारल्यां. राज्य सरकारान दिवंच्या सर्वोच्च साहित्य पुरस्काराक ताजेंच नांव (एषुत्तच्छन पुरस्कारम) दवरल्यां.

'एषुत्तच्छन' व्हड विद्वान आशिल्लो जाल्यार 'पूंतानम' नंपूतिरि पूर्णतया एक साधारण मनीश. पुण त्या सामान्य मनशान आपल्या असामान्य रूपाच्या एकच लघु काव्यान (ज्ञानप्पाना) खूब प्रशस्ती जोडली. सरळ शैलीच्या आनी सोप्या चालंत उतरांच्या त्या लघु काव्यांतुल्यान ताणें जनसामान्याचें मन जिखलें. उत्कट भक्ती आनी खोल तत्वदर्शन हांचें अप्रूप मिश्रण ह्या कृतींत आसा. अत्यंत सरळ भास आनी गेयरूपी लघु छंद वापरल्यां. तागेली भक्ती वा तत्वदर्शन केवल ग्रांथिक वा यांत्रिक न्हय आशिल्लें. वास्तविक जीवितांतुल्यान उपजल्ले आत्मार्थतेन तागेलें प्रति उतर भांगार जाल्यां! तें ताचें काव्य आतां सुमार जनांनी कोंकणींतूय उतरायल्यां.

उपरांतचो एक देड दशकाचो काल 'कथकळि साहित्याचो' वा 'आट्टकथेचो' काल म्हूण वळख पावंता. त्या क्षेत्रांत नांव पाविल्लो कवि आसा 'नंळचरितम' ही मौलिक कृति रचलोलो 'उण्णायि वारियर'. त्या कालाक जायतीं लोकगीतां आनी गीतचरितां प्रचलित आशिल्लीं. 'वडक्कन पाट्टु' सारक्या ताळबद्ध गेयकाव्यांनी धीर वीर धाडसी पराक्रमांच्यो काण्यो मेळताय. थंयचान अठरावें शतक उदेलें म्हण्टना काव्यकैरळीक नवेंच एक आयाम प्रदान करपी 'कुंजन नंपियार' आमच्या मुखार येता. ताची आशिल्ली एक बहुमुखी प्रतिभा. 'तुळ्ळल' ह्या एकाभिनय नाट्यप्रकाराक ताणें जन्म दिलो, आनी 'तुळ्ळल काव्य' नांवांचें

एक नवेंच साहित्यरूप निर्मिलें. अशिक्षितांक लेगित आस्वादन सुसाध्य करपी सरळ भाषेचो प्रयोग ताणें केलो. मलयाळम साहित्य संस्कृत भाषेच्या अतिप्रभावांत थाकून मुक्त जावंका म्हूण ताणें थारायलें. तुळ्ळल काव्यांचो मुख्यविषय पुराणाख्यान आशिल्लो तरीय समकालिक रूपाचो विनोद, हास्य, उपहास आनी टिका तांतूं समर्थपणान बेसोवनु ताणें तीं काव्यां समृद्ध आनी अत्यंत आस्वाद्य केलीं. आपलेंच म्हूण एक युग ताणें रचलें. आतां कांय वर्षां आदीं कोंकणींतूय एक 'तुळ्ळल काव्य' आयल्यां - कल्याणसौगंधिक (कविः आर. गोपाल प्रभू).

मागीर एकूणीसावें शतक पावलें म्हण्टना मलयाळम साहित्य सगल्या आंगांनी फुलूंक लागलें. जेन्ना 'स्वाति तिरुनाळ' (1813-46) तिरुवितांकूर राज्याचो राय जालो तेन्नाचान संगीत, कला, साहित्याची खूब खूब पुष्टी जाली. स्वतः एक कवि, संगीतज्ञ आनी बहुभाषा विशारद आसून ताणें भारतभरच्या विख्यात कलाकारांक, संगीतज्ञांक आपोवनु हाडून भोवमान केलो. ह्या अश्या समृद्ध संपर्काचोय गुण काव्यकैरळीक मेळ्ळो. केरळांत ब्रिटीष आयलेलेय अश्याच कालार. ते वाटेन संथ संथ इंग्लीष साहित्याचोय संपर्क मलयाळम साहित्याक मेळ्ळो. साहित्यविकासाक गतिवेग आयलो. मलयाळम साहित्य सगल्याय आंगांनी वाडलें. त्या शतकांतुले दोग प्रभावी कवि आशिल्ले 'वेणमणी अछन नंपूतिरि' आनी ताचो पूत 'वेण्मणी महन नंपूतिरि'. संशुद्ध मलयाळमांत रचलेल्यो तांच्यो कृती आनी ती शैली मुकार जायत्यांनी स्वीकारली, अनुकरण केली. जाल्यार त्या संक्रमणाच्या कालांत केरळच्या कवीं मदीं मतभेद उठले, साहित्यिक (प्रासवाद आदी) आनी साहित्येतर बी. साहित्याची टिका समीक्षा येवपाक आरांभिली. कवींचे, साहित्यिकांचे पक्ष पंगड जन्मले. एकामेकांकडे झगडीं शुरू जालीं. पुण साहित्यांत खूब म्हूण भर पडली.

तशें तें एक मंथन जावन 1907 वर्षा 'कुमारन आशान' (1873-1924) ह्या प्रतिभावंतालें 'वीणा पूव' नांवांचें खंडकाव्य उजवाडा आयलें आनी ताचे ओटू काव्यकैरळीचें काल्पनिक युग उदेलें. एक उच्च स्तराचे

समाजसुधारक म्हणूय नांव जोडलेल्या ह्या महाकवीन 'नळिनी, लीला, चिंताविष्टयाय सीता, करुणा' आदी आपल्या उज्वल काव्य-आख्यानांनी अंत:संघर्षांचो तीक्ष्ण आविष्कार केलो. समाज परिवर्तनाचे तीव्र इच्छेंतुल्यान जन्मलेल्या 'चंडालभिक्षुकी, दुरवस्था' आदी आपल्या काव्यशिल्पांनी एक नवीन युगच काव्यप्रपंचांत ताणें रचलें. ज्या एक महापुरुषाक केरळच्या सांस्कृतिक नवोत्थानाचे महान फुडारी म्हूण मानताय, त्या 'श्रीनारायण गुरू'चे हे एक अतिप्रिय शिष्य आशिल्ले. गुरूंच्या आदर्शांचो खूब प्रभाव हे कवीले जिणेचेर तशीच कृतींचेरीय पडलो. काल्पनिक आनी भावात्मक कवितेचो फुडारी म्हणूय हांचें नांव उल्लेखनीय आसा.

काल्पनिक युगाचो आनी एक महारथी म्हळ्यार 'वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन' (1878-1958). जाल्यार महाकवि म्हणपाचे भायर 'कथकळी' म्हळ्ळेल्या नाट्यकलारूपाचो उद्धारक म्हणूय हे अत्यंत आदरणीय आसाय. चोवदा वर्षांची प्राय धरूनूच हांणी काव्यरचना शुरू केलेली. जाल्यार 1910 वर्षा उजवाडा आयलेल्या 'बधिरविलापम' काव्याक लागूनूच हांचें नांव विख्यात जालेलें. स्वानुभवजन्य आनी आत्मकथात्मक रूपाच्या त्या काव्यांत विषादांतुल्यान लेगित प्रत्याशा घेवपी तांची आत्मसत्ता थळथळेता. इतर जायत्या कृतींनी ह्या कवीन तें काल्पनिक युग सजयलें जशी 'बंधनस्थनाय अनिरुद्धन, ओरु कत्त, मग्दलन मरियम' आदी. तागेलीं साबार लघुकाव्यां 'साहित्य मंजरी' ह्या नांवांन इखरा खंडांनी प्रकाशित जालीं. पुरोगामी वीक्षण, देशाभिमान आनी सांसारिक समस्येंची जाणविकाय हीं तागेल्या काव्यांनी दृष्टी पडताय.

काव्यकैरळीच्या मळबावेल्या तेन्नाच्या तेग उज्वल नक्षत्रांक मेळोवनु 'महाकवित्रय' म्हूण वळखताय. हांतूलें तिसरें नक्षत्र आसा 'उळ्ळूर परमेश्वर अय्यर' (1877-1949). हांगेलें संस्कृत महाकाव्यांच्या लक्षणांचें वर्णनात्मक 'उमाकेरळम' आनी काल्पनिक शैलीचीं खंडकाव्यां

‘कर्णभूषणम, पिंगळा, भक्तिदीपिका’ आदी विख्यात जालीं. साहित्य संशोधक आनी साहित्य चरित्रकार म्हणूय हांची बरी ख्याती जाली. पांच खंडांचें तागेलें ‘केरळ साहित्य चरित्रम’ केरळ विश्वविद्यालयान उजवाडायल्यां. जन्मान तामिळ भाशिक आसूनूय मलयाळम भाषेची आनी साहित्याची येदी होड सेवा करपी महापुरुष हो.

काव्यकैरळीच्या नभार त्या महाकवित्रया उपरांतें कीर्ती जोडिल्लो कवि आसा जी. शंकरकुरुप्प (1901-1978). भारतीय ज्ञानपीठाचो प्रथमलो पुरस्कार (1965) जोडपी आधुनिक मलायाळम साहित्याचो अभिमानस्तंभ तो! प्रतिभावंत प्राध्यापक, प्रभावशाली प्रभाषक, अनुपम गद्यकार, अप्रतिम भाषांतरकार, आनी भारतभर कीर्ती पाविल्लो कवि म्हूण हांची वळख दिवूयात. मनशाल्या सुखांत आनी दुःखांत एकवरीच वांटो घेवपी, विकार विचारांचें संतुलन सादपी अश्या हांचा काव्यभांडारांत कितें ना म्हूण सांगप तेंच कठिन. काल्पनिक, भावात्मक, क्रांतिकारी, प्रतीकात्मक, देशाभिमानी, मिस्टिक, सार्वदेशिक अशी हांच्या काव्याचीं भोव साबार आंगां समीक्षकांनी, रसिकांनी विवर्सिल्यांय, चर्चा केल्यांय. केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जोडपी (1963) प्रथम मलयाळम कवीय हेच.

जाल्यार ह्या कविवर्याले कवितेंत कितें ना म्हूण हातोंहात दाखोवनु दिवंचे खातीर म्हळ्यावरी जिस्त ह्या कालार उदेले दोग कविमित्र - इडप्पळ्ळि राघवन पिळ्ळा (1909-36) आनी चंगम्पुषा कृष्ण पिळ्ळा (1911-48). तो वेळ पर्यंत कोणेच पळोवंक नाशिल्लें, आयकूंक नाशिल्लें, येवजूंक लेगित नाशिल्लें कवितामाधुर्य हांणी रसिकांक घे म्हूण पिवयलें! तो काल पर्यंत कवींचे आनी रसिकांचे मदें आशिल्लें अंतर आनी वेगळेपण हांणी नाच्च केलें. येद्दोळ पर्यंत कवींचीं जीवितां चडावत सुखसंतोषाचीं आशिल्लीं जाल्यार ह्या दोगांच्या जीवितांत चड वांटोय आशिल्लो दुःखाचो. येद्दोळ पर्यंत चडावत कवि केवल इतरांलीं दुःखां चितारताले जाल्यार ह्या दोगांल्या कृतींनी आत्मानुभवाची तीक्ष्णता जाणवताली. संवसाराचें कापट्य, निर्दयत्व आनी जिणेची निरर्थता हे

तांगेले मुख्य विषय. पुण हो विषादवर्ष सगळो तांणी एक खास रूपान केलो. भावतीव्रतेचें आनी ललितकोमळ पदावलीचें अत्यंत संगीतमय एक संयोजन तांणी सादलें. आनी हाका रसिकांचो अभूतपूर्व येवकार मेळ्ळोय. पुण दोंय वशीन जळयलेले मेणावाती वरी खीण भितर तांची जीण वाडवली. केवल सात वर्षांच्या साहित्य जीवितान 'इडप्पळ्ळि' अस्त जालो. उपरांतें केवल बारा वर्षांकच 'चंगम्पुषा' जियेलो तरीय आपल्या मित्रालो उडगास अमर करपी एक अतुल्य काव्यशिल्प 'रमणन' ते भितर ताणें निर्मिलें. ह्या काव्याचें मागीर सिनेमा लेगित आयलें.

1965 वर्षाचो केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार जैतवंत 'नालप्पाट बालामणी अम्मा' आशिल्ली अनन्य अश्या मातृभावाच्या, वात्सल्याच्या कवितांची कवयत्री. चमत्कारी शब्दचित्रां रचपी तांच्या 'निवेद्यम' संग्रहाक मागीर 1995 वर्षा अखिलभारत तलावेलें प्रतिष्टेचें 'सरस्वती सम्मान' मेळ्ळें.

वीसाव्या शतकाचें मध्य पावलें म्हण्टना एक भावपरिवर्तन घेवनु आयलो 'वैलोप्पिळ्ळी श्रीधर मेनोन' (1911-85) ज्याका केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारा भायर सोवियेट लंड नेहरू पुरस्कारूय मेळ्ळो. हांची एक खाशेली कविता 'मांबषम' (आंबो) आनी प्रथम कवितासंगह 'कन्निकोयत्त' (पयली लुवणी) नांवांक पावलीं. ह्या वेळार परंपरागत शैलीन खास तराच्यो दीर्घकविता बरोवनु आयलो एन. वी. कृष्ण वारियर (1917-89) आनी ताणें साहित्याच्या इतर साबार क्षेत्रांनीय श्रेय जोडलें.

इडश्शेरी गोविंदन नायर (1906-74) आनी पी. कुञिरामन नायर (1906-78) हे समकालिक कवि. पुण हांच्या काव्यां मदलो फरक भोव व्हड. 'इडश्शेरी' समाजांत जियेवपी आनी समाज सेवेंत मग्न आशिल्लो जाल्यार 'पी' निसर्गाचो मोगी आनी भक्तिमार्गी आशिल्लो.

वीसाव्या शतकांत काव्यकैरळीक उल्लेखनीय योगदान दिवपी इतर ज्येष्ट कवि म्हळ्यार 'बोधेश्वरन, पाला नारायणन नायर, एम. पी. अप्पन,

ओळप्पमण्णा, वेण्णिकुळम गोपाल कुरुप्प, अक्कित्तम अच्युतन नंपूतिरी' आदी. हांतूं 'अक्कित्तम' हांच्या कवितांची (इरुपताम नूटांडिंडे इतिहासम - वीसाव्या शतकाचो इतिहास) खूब चर्चा जाली. एन. एन. कक्काड हांच्या कवितांनी मध्यवर्गीय जनांलीं धर्मसंकटां आनी दुःखां अनुतापपूर्वक चितारल्यांय. आर्द्र आनी करुणामय कवितांच्या तांच्या 'सफलमी यात्रा' (सफल ही यात्रा) संग्रहाक खूब पुरस्कार मेळ्ळे. हे वरी उल्लेखनीय कवि आसाय ज्ञानपीठ जैतवंत ओ. एन. वी. कुरुप्प, सरस्वती सम्मान जैतवंत अय्यप्प पणिक्कर आनी सुगतकुमारी, आनी ताचे भायर चेम्मनम चाक्को, विष्णु नारायणन नंपूतिरी, आटूर रवि वर्मा, के. जी. शंकर पिळ्ळा, आर. रामचंद्रन, कडम्मनिट्टा रामकृष्णन, सच्चिदानंदन, वी. मधुसूधनन नायर, बालचंद्रन चुळ्ळिक्काड' आदी. तशी काव्यकैरळीचें रूप जालें वाडून फांदळेवनु राबिल्ल्या एक फलवृक्षाचे समान. लागी येतल्ल्यांक थंड सावट दिवपी, राबिल्ले रेंवेंक बळ दिवपी, मागता तांकां मधुर फळां दिवपी एक समृध्द फलवृक्षा समान.

मलयाळम कवितेन आपलें स्वत्व आनी वेगळेपण सदांच सांबाळून धरल्यां तरीय इतर देशी विदेशी काव्यप्रपंचाची वळख घेवंचे खातीर तीणें आपल्या घराचीं जनेलां सदांच वाकतीं दवरल्यांय.

'चंगम्पुषा' हांच्या उप्रांतें सट करून जनप्रीती जोडिल्लो कवि आसा 'कडम्मनिट्टा रामकृष्णन' (1935-2000). ग्रामीण जीविताचीं स्पंदनां, उतरावळ आनी विषय ताणें हालाळ्ळे. 'पडयणिप्पाट्टु' ह्या लोक (अनुष्टान) गीतांच्या ताळ-लयान ते विषय प्रस्तुत करून एक नवेंच अंतरीक्ष, वातावरण मलयाळम काव्यरंगाचेर हाडलें. जिवाण्यान कात सोडचे वरी पोरनी काव्यभाषा दूरा उडोवनु भावाविष्काराचें एक नवें सावळें सौंदर्य ताणें कवितेंत भरलें. ते वरी द्रविडी लोककलेचें वातावरण घेवनु येवपी आनी एक कवि आशिल्लो 'डी. विनयचंद्रन' (1946-2012).

जेष्टकवीं मदें उल्लेखनीय आसा 'चेम्मनम चाक्को' (1926). हांची शैली उपहासाची. विनोदांतुल्यान टिका करपी, चिमटो काडपी हांचे कवितेक तुलन म्हळ्यार ना. समाजांतुले, राजकारणांतुले कूडे व्यवस्थेंची, दांभिकपणाची खर टिका आनी विमर्श करपी तीर-सुवादिक कवितांचे वीसा वयर संग्रह हांचे जावनु आसाय. चालंत भास आनी सरळ छंद हांची विशेषता. अठराव्या शतकांत जावनु गेलेल्या कुंजन नंपियारालो एक अंशावतार म्हूण हांचो उल्लेख करूयात!

बकच्छायो म्हळ्यार एक आयुध. वीसाव्या शतकाच्या काव्यनवोत्थानाचो फुडारी डॉ. अय्यप्प पणिक्कर (1930-2006) हें आयुध समर्थपणान हाताळपी एकलो कवि आशिल्लो. 'वीडियो मरणम', 'रामन वाणालुम रावणन वाणालुम' आदी खूब कवितेंत ताणें तिखटो हास विणला. पुण इतर अनेक शैलीच्यो आनी भावांच्योय कविता तांचे लिखणेवेल्यान उपजल्याय.

*'रूक एक कातरतना, रेंवट एक जन्मता.. / रूक एक कातरतना, भाट एक मरता..'* असले तांगेले वर्णनेंतुल्यान 'रूक एक कातरतना' वास्तवाक कितें कितें शेणता म्हूण आमकां हृद्स्पर्शी रूपान जाणविकाय जाता आनी जशी एक वजन आमच्या हरद्यार चडोवनु दवरल्या वरी अंतरंग घुसमुटता.

प्रोफ. सच्चिदानंदन (1946) हांचीय प्रतिभा उल्लेखनीय. हो एक वेळार केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो कार्यदर्शीय आशिल्लो. स्वंत कविते भायर हाणें देशविदेशांतुलें साबार काव्य मलयाळमांत अणकारल्यां. जाल्यार चडावत नवीन कवितेंचो आत्मो अंतरमुखतेचो. 'बालचंद्रन चुळ्ळिकाड' सारकेल्यांले कवितेक व्हडली प्रतिष्टा मेळ्ळी म्हूण सांगूक जायना तरीय प्रसिद्धी मेळ्ळीच. ताचे सारखेल्या तरनाट्यांल्या कवितेक लागून नवसाणीचें जें एक ल्हार आयलें ताचो प्रभाव उरलो कितें, उरतलो कितें, हें फाल्या कालूच कळवपाचो.

जाल्यार साबार जावन आतांय मलयाळम काव्यरंगाचेर सजीव आनी प्रभावी वरलेले दोग प्रतिष्टित प्रख्यात कवि आसाय ओ. एन. वी. कुरुप् (1931) आनी सुगतकुमारी (1934). ह्या दोगांल्या कवितेंत आनी जीवितांत थोड्यो समानतायो आसाय. दोगांय अध्यापक आशिल्लीं. दोगांय समाज सुधारण, परिस्थिति संरक्षण इत्यादींत तत्पर. दोगांलीय लिखणी केवल कविते खातीरीच अर्पित. दोगांय अखिल भारतीय तलाचेर पुरस्कार जैतवंत. ओ. एन. वी. कुरुप्पाक *ज्ञानपीठ* मेळ्ळें जाल्यार सुगतकुमारीक *सरस्वती सम्मान* मेळ्ळ्यां. दोगांल्योय थोड्यो कविता हांवें कोंकणींत उतरायल्याय. खंयचेय भाषेंत पावल्यारीय हांच्यो कविता रसिकांक आवडतल्यो. ते वरी विचार-भाव द्वंद्वांचो समन्वय तांच्या कवितांनी आसा. रसिकांक अनुपम आनी चिरनवीन अनुभूति प्रदान करच्यो कविता तांच्यो. हांच्याच वाटेवेल्यान चलपी आनी एक कवि मागीर आयला - वी मधुसूधनन नायर (1950). तागेली कविता 'नाराणत्तु भ्रांदन' भोवच प्रसिद्धी पावली. कविता वाचन (प्रस्तुति) कितलें हृद्य आनी आस्वाद्य करूक साध्य म्हूण ताणें दाखोवनु दिल्यां, आनी आतां कितल्योच कविता ऑडियो सी डी जावनु लेगित आयल्याय.

हांच्या उपरांत काव्यकैरळीक, मलयाळम कवितेक, नव्या नव्या पांवड्यार पावोवपी अशे भोवसाबार तरुण कवि आतां साहित्यरंगार कार्यरत आनी सक्रिय आसाय. आस्वादकांचेय तरपेन काव्यकैरळी व्हड भाग्यवंत आसा.



# ज्ञानप्पाना

मूळ : **पूंतानम नंबूतिरी**

भाषांतर : **पी. जी. कामत**

(ज्ञानप्पाना हें मलयाळम भाशेंतलें एक प्रसिद्ध गीतिकाव्य. ज्ञान वा philosophy ताचें विषयपाना ह्या धाटीन तें गायन करतात. हें गीत रचिल्लो महाकवि पूंतानम एषुत्तच्छनालो समकालीन आशिल्लो म्हणु इतिहासकार सांगतात)

## गुरू वन्दन

गुरूनाथा, सद्गुरुनाथा,
तुजे कृपेन माजे जिबेर
सदा आसूं देवाचें नांव,
सफल जावूं जल्म माजो.

## अजाण जीवन

काल मेरेन कितें कळना
आनी फाय  कितें तेंवय कळना
आतां हांगा आसच्या शरीराक
नाशा केदाणा तेंवय कळना.

देखतां देखतां आसच्या जनांक
देखूंक ना करता तूंच देवा,
दोन-चार दिसांनी कोणाकय
पालखेंत बसयता तूंच देवा,

रावळारांतल्या रायाच्या खांधार
झोळी भिकेची तूंच लांबयाता
हें देखून समजता कोण एकलो
कांयच समजना आनी एकलो.

मुखार दिसल्लें कांयच सत्य न्हय-
हें समजता एकलो
म्हणु सांगल्या मनिशांची बुद्दी
आनी समज सारकी जायत?

शिकूक - समजूक आसा साबार
कर्मशास्त्र, सांख्य आनी योग
ह्या संसार- चक्रांत पडून
घुंवचे आमी समजून घेवूक

जाणकार महापुरुष
सांगतात परमार्थ
कान दीवन तें आयका
सहज सरळ मुक्ति मेळूक

पयलीच समज ही - आमी सगट
कर्म-सांखळेंत बांदून पडल्यात
मुखार दिसचें जग सगळें
एकच ज्योतीचें रूप आसा.

## अद्वैत- तत्व

एकाकय तो लागना
एकय ताका लागना
एकेकय चिंतन करतना
कळता, तो आसा एकूच.

दर एक वस्तूंत तो दिसना
तरी खचींय दिसचो ना.
त्या एकल्या समान कोणय ना.
एकेकांतूय जीव जावन आसा तो.

ताका कोणाचोय संबन्ध ना
ताणेच हें जग रचलें खंय.
कर्ता, क्रिया, कर्म - तिनीय
मेळून एक जालीं-मागीर जग ना.

## कर्म - पाश

आशी एकल्यानच रचिल्या ह्या जगांत
तीन तराचीं कर्मा आसात.
पुण्य, पाप आनी मिश्र.
चिंतन केल्यार हीं वेगवेगळीं

पूण बान्दून घालतात एकच जिवाक.
पूण्य ही सांखळ भांगराची
पाप ही लोखण्डाची खंय.
मिश्र ती दोनीय भरसल्ली.

तिनींतूय घुसपून आसा जीव.
स्रष्टय पासून मूय-मूस मेरेन
बान्दून आसात कर्मान.
सर्जन हें ब्रह्मालें कर्म

अंतिम प्रळय पर्यंत.
हें कर्म -पाश कातरूक
शकचो ना तो स्रष्टयो सरी.
तशेच हे दिकपालक
एकेक दिशेक बान्दून पडल्यात.

## संसार - चक्र

आमी तरी अल्पकर्मी
एकेक गर्भात भितर सरतात.
भायर येतात-अशी जल्म
मरणाचे चक्रांत घुसपून आसात.

नरकांत पावलोलो जीव
पापाचें फल भोगून
मन परिपक्व जावन
क्रमान मनिस-जन्मांत पावता

मागीर पुण्य जोडून
स्वर्गार सुख भोगता.
सुकृत सरतना भूमीर पावता.
पाप केल्लोलो नरकांत पडता.

देवलोकांतल्यान जीव नरलोकांत
ब्राह्मण जावन जल्मता.
क्रूरकर्मी चांडाळ जाता
असुर जाता तो अमर

अमर मृत्युलोकांत पावता.
बकड मरनुन हस्त जाता
हस्त मरनु बकड जाता
वाग मरनु कोलो जाता

बायल मरनु कोलो जाता
जनांक पीडा दिवचो
राय मरनु कीडो जाता.
मूस मरनु माजर जाता.
रसपतीचो खेळ हो तुगेलो
हे सर्वेश्वरा!

**भूमीचे महत्व**

अशी तरा तरा योनींत भोंवचे जीव
भूमीर साबार कर्मां करुन
साबार फलां जोडतात
आनी मरणचे उपरांत

एकेक लोकांत भोगतात
तें कर्मफल भोगून सरतना
परतून भुंयचेर येतात
आनी कर्म करून फल जोडतात

हांगा जोडलेलें थांगा वचून
खाता कशी तशीच.
दिकून खावप म्हण्टात मू? तेंच.
देखून, हे भुंयेक कर्मभूमि म्हण्टात

केल्लेले कर्माचो नाशूय हांगाच
जावचो, वेगळे खंयीय न्हय.
भत्तांक, लौकिकांक, मोक्षेच्छूंक
आपले आपले आशेक लागून

फल दीवचीय ही भुंयीच
सवेश्वराली मूलप्रकृति ही
प्रत्यक्ष मुखारीच आसा.
हिगेल्या रक्षणा खातीरीच
सर्वेश्वर अवतार घेता हांगा-
अशी सगळेय वेद आनी वेदज्ञ
आदरान सांगतात आयका.

**भारतदेश**

मिटा समुद्रांत सात दीपां
तांतूत उत्तम हें जंबुदीप
आसा लाख योजना विस्तार
तांतूत आसा तो मेरुपर्वत

जो भुंय - कमळाचो दण्ड - नाळ
णव खंड ह्या जबुदीपाक
तांतूत उत्तम हें भारतखंड
महामुनि म्हण्टात कर्मक्षेत्र.

हांगाच कर्माचें बींय किरलेता
ब्रह्यालोक निवासींकय
तें कर्मबींय सुकोवन भाजून
नाश करूक जायत भारतखंडात
तितले महत्वाचे हें भारत
उगडास आसूं आमकां सगल्यांक

## कलिकाल

चारीय युगांत बरें कलियुग
सुखान मुक्ति मेळूक लायक.
कृष्णा! कृष्णा! मुकुन्दा! जनार्दना!
कृष्णा! गोविन्द! अशों म्हणा.

नाम-संकीर्तनाच्या शिवाय
प्रयत्न कांयच नाका कलियुगंत
हें जाणून बाकी लोकांतलेय
अन्य दीपांतलेय, हेर खंडांतलेय

अन्य युगांतलेय मनिश आपण्याक
मुक्ति मेळची ना ह्या दुखान
कलियुगाक आनी भारतदेशाक
आदरान नमस्कार करतात.

भारतदेशाक तण पुण जावन
ह्या कलियुगांत जल्म घेवच्याक
भाग्य ना जालें मू, देवा, आमकां.
ह्या भारतखंडांत जल्मल्याकं

आनी कलिकालाक नमस्कार -
अशी बाकी लोक स्तुति करतात
आमची भारतवासींची.
युग हें कलियुग न्हय?

देश हें भारत न्हय?
आमी मनीश न्हय?
चिंतन करा बरे तरेन.

## आभगेलें जीवित

कितली .की आसात देवाचीं नावां!
नरकाचे भय ना की तुलकां?
जीब नाशिल्ले जल्मल्ले की तुमी?
तुमकां मरण कांय ना?

हें कांय चितंन करनाशी
जीवम फुकट करतात मू?
कितल्या जल्मांनी प्रयत्न करन
त्या सुकृतान हांगा हो जल्म मेळ्ळो!

कितले जल्म मलांत पडले
कितले जल्म जलांत!
कितले जल्म खातडींत पडले?
कितल्या जल्मातं रूक जाले!

कितल्या जल्मातं चरनू भोंवले
कितले जल्म पशू-रुपान गेले?
उपरांते कितले जल्म भोगून सरले
मागीरीय मू आवसूच्या गर्भात पावले.

धा मास गर्भात सरले
धा-बारा वर्सां बाल्यपणांत
आतां हांव-हांव म्हणु आठोवन
फाय कितें तें कळनाशिल्लेंच
अशी तशी कशीय जियेतात आमी.

उदका फुग्या सारख्या देहांत
स्वास मात्र उरला आतां
आशी कष्ट भोगतां भोगतां
दुर्बळ जातलो स्वास
असल्या ह्या वेळारीय, देवा,
येना तुगेलें नांव जिबेर.

## समाज

स्थान-माना खातिर कलह करनु
लज्जा नाशिल्लें भोंवतात थोडे
मद मत्सर चिंतून चिंतून
मन वायट करतात थोडे.

दोळे मारचे चेडियेर भुल्लुसून
मांकड तशी नाचतात थोडे.
वेष घालून राज-सेवकांचो
पोट धुकळून भोंतात थोडे.

देवळांत पुजा करुन पोटा खातिर
सांजे मेरेन भोंवतात थोडे.
आवस-बापसूक बायल-भुरग्यांक
पोटाक कांयच दिनात थोडे.

आग्निसाक्षि करनु घेतल्ले बायलेक
सपनांत सरी देखनात थोडे.
सज्जनांनी बरें वायट सांगल्यार
रागान आंगार वतात थोडे.

मानादिक मनशाक देखतना
निन्दा मू करतात थोडे.
पळे, मेगेल्या उतरारीच हें जग
नीट राबलां म्हण्टात थोडे.

ब्राह्मण सरी माजे सम ना रे!
याग-यज्ञ करयतात थोडे.
भागंरा-दाक्षिणा मेळच्या मोहान.
वेपार कस्ता एकलो भांगराचो

आनी एकलो रतनांचो
तिसरो करता मदमत हस्तांचो
चोवतो करता घोड्यांचो
आनी एकलो तारवां - धंध्यान

जोडता धनरास शिवा! शिवा!
ना निवळसाण, ना मान-मर्याद
दुडवांच्या हावेसान मरता मरे!
दूडू कितलोय आसूं होंटीत

तृप्ति जायना मनाक केन्नाय
धा मेळ्यार हजार पुरो
शंबर आसल्यार हजार पुरो.

हजार हातांत आयलो तरी
धा हजार मेळ्यार जायत -
अशी आशा-पाशांत घुसपून
चडता आसा वयर वयर

पुण सज्जनांनी कोणेय मागल्यार
दिवचो ना कूडो दूडू सरी.
मरतना एक सुताचो कुटको सरी
व्हरूक कोणाक शकचें ना.

पछात्ताप ना तिळा-इतलो
विश्वासघात करता फटयता.
अमित धनाची आशा लागून
सत्य सुकृत सोडता म रे!

## मनन करा

सत्य म्हळ्यार देव रे
देवूच सत्य म्हण्टात संत
विद्येन जें कळूक जाय
तें कळनाशिल्लो पापी

सवंग करता विद्यावंताचें
कुंकुम व्हावता तें गाडव
वास कसो तो कळना पाप्याक
देवा! देवा! तृष्णेचो भ्रम हो

चिंतन - मनन केल्यार कळत
मेजून मेजून सरता आयू.
वयर वयर चडता मोह
ओणम आयले, विषु आयले.
तिरुवातिरा पावलें ना.
कुंभमासांत येता जल्मनखेत्र.
श्राद्ध आसा वृच्चिकांत
आतां सम्रादण कांय करूं नज

पूत जल्मुका ताचें लग्न करूंका
आनी तागेर पूत जावूंका
समकार आसचें भाट मेगेलें

तें माज्या हातांतूच आसूंका -
अशी एकेक एकेक चिंतून
मरता बावडो शिवा! शिवा!
अशें कितें कितलें सांगचें

तूंच चिंतन कर गा, मनशा!
कर्माच्या बाळिष्ठ व्हडपणांत
जल्म कितले ते सरले?
आनी आतां कलियुग आयलें

विशाल भारतखंडांत
आमचो जल्म जालो.
पुण दीस कितले फुकट गेले!
आयू कितली बाकी आसा, कळना.

## उपाय

आतां आरोग्यान आसतना
नामकीर्तन करुंया, पुरूषार्थ जोडूंया
स्मरण करुंया नरक भय
आनी करूंया चिंतन मनन

वेळ कित्याक
सगळेच वैकुंठाक वचा.
मेळनु न्हय मरे गरतात
आतां जल्म मरणाचे मद्दें हांगा
मेळतना कित्याक मत्सर बाबा?

## वैराग्य

मुक्ति रोखडीच मुखार आसतना
दुडवांची लेवट कित्याक रे?
प्रचंड सूर्याची तेज सोबतना
झिळमिळ जुगनूक कसोलो मान?

बाळकृष्ण मनांत खेळतना
आनी पूत कित्याक आमगेर?
मित्र आमगेलें विष्णुभक्त
कितले की आसात मरे जगांत.

देवी मायेचो खेळ देखतना
कित्याक जायत बायलेली सवंग?
ही धर्तरीच घर आमगेलें.
हे सगळे वैभव आमगेले न्हय?

विश्वनाथूच आमगेलो बाप न्हय?
चराचराची जननीच आवय.
हीं सदा-स्र्वदा राकतात आमकां.
अन्न खंय ना? आसा बरें भिक्षान्न
कितले जाय तुका? खा, खा कितलेंय खा.

### कर्तव्य

देखून, लौकिकांतली आसक्ति सोडून
सदा भक्तीन करा नाम-जप
श्रद्धेन जगांत जगपाक जाय.
मुखार देखच्या सगट प्राण्यांक
संकोच सोडून नमस्कार करा.

सदा सर्वदा सुख संतोषान
संताप समस्त सहन करा.

संतांक सज्जनाक मेळनाफुडे
लज्जि नाशिल्लें पायां पडा.
बुडून भक्तींत पिश्या वरी नाचा
प्रारब्धां सरतलीं तशी तशी.

मागीर कर्मबन्ध सगळेच निसरुन
देह पडतलें भुयघेर
मनांत आसा आसक्ति देवाची
देखून उडतलो जीव ताका मेळूक
पुण मुक्तीक पात्र जालो ना म्हणु
खंति नाका ; मुक्ति मेळतलीच आमकां.

### समापन

परिताप नाका मनांत
आयका दिव्य-नामाचें महत्व.
जावूं जातीन शूद्र
जावूं वेदवादी ब्राह्मण

जीब नाशिल्लें जल्म घेतल्ले
कोण मुंगे आसात मनीश?
असंख्य आसात नांवां देवाचीं.

तांतूत एक पुणेय
दिसाक एका वेळा पुणेय
बेठो बसतना, नेणतना वा सपनांत
जावूं परिहासान, जावूं हेरांचे खातिर

आसूं खंचेय दिकार
जिबेन देवाचें नाम घेया.
ना, दिसाक एक फंतां पुणेय
कानानी तें आयका.

सफल जातलो तावळीच जल्म
ब्रह्म-सायुज्य मेळता तावळीच.
हें सांगला श्रीधराचार्यान
बादरायणान, गीतेन आनी वेदांनी
देखून सदा जप करा दिव्यनाम.
आनन्दान ब्रह्मलीन जाया
बुध्दी आसा तरी हें पुरो.
दिव्य नामाचे महत्व हें.
हें सांगचें खरें वा लटिक
सांग भगवन्ता, दी आज्ञा.



# म्हजो गुरु

मूळ : **वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन**
भाषांतर : **डॉ. एल. सुनीता बाय**

(वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन आधुनिक मलयाळम कवितेच्या मार्गदर्शकांत मुखेल आशिल्ले. तांणी वाल्मीकी रामायण आनी ऋग्वेद हांचो मलयाळम भाशेंत अणकार केला. आपलें समस्त जीवन केरळी साहित्याचे आनी कथकळी कळेचे उदरगती खातीर ओंपिल्लें. ते कथकळी कलामण्डलम हाचे संस्थापक आनी संरक्षक आशिल्ले. आपल्या पंगडाक देशभर, विदेशांत व्हरून हे कलेचो तांणी प्रचार केलो. गांधीजीक ते आपले गुरु लेखताले. ब्रिटीश सरकारान दिल्लो पुरस्कार तांणी न्हयकारिल्लो. ते एक अभिजातवादी आनी सौंदर्यवादी कवी आशिल्ले. ते केन्द्र साहित्य अकादमीचे वांगडी आशिल्लें. 'पद्मविभूषण' बिरुद दिवन स्वतंत्र भारतान तांचो भोवमान केल्लो.)

वसुधैव कुटुम्बकम्
संवसाराचीं झाडां पेडां
तण आनी किडुले
तांच्या कुटुंबाचे आंगा पांगां
त्याग तांची उपलब्धी
नम्रता तांची उन्नती
म्हजो गुरू योगी
जैतवंत आसता.

रत्नांचो हार गोवंट्याक घालो
तो तांकां स्वीकार जालो
चिखलाचो काळो दाग लागलो
तोवय तांकां स्वीकार जालो
मेघाच्छदित अस्पश्ट धुल्लान भरिल्ली
तेंवय तांकां स्वीकार जालें
संग ना लेप ना समस्वच्छ मात
महाव्योम जशो विस्तृत
म्हजो गुरू.

दुष्ट जंतु नातिल्लें दुर्लभ तें तीर्थह्रद
कज्जलोद्‌गमरहित तें मंगलदीप
सर्पांचें स्पर्श नातिल्लें
माणिक्याची महा नदी
काळि सावळी नातिल्लें
पुनवेचें चान्नें.

धर्मरूपी शस्त्रान युद्ध करचे
पुस्तक जशें पुण्य भरिल्लें शिक्षण दिवचे
औषध जशें रोगाक पयस करतल्लें
हिंसेचो नाश तांचें यज्ञ म्हणटात
तो म्हजो गुरू.

ते म्हात्माचें शाश्वत व्रत अहिंसा
कुलदेवता शांति
त्या संगातांत अहिंसेचें रत्नखचित कवच
खंयच्या खड्‌गाचे तीव्र धारेक
हार घालता.

म्हजा गुरूचीं मनोहर उतरां
बायल मेळेल्ले धर्माचे सयान
आनन्द घेवपाचें
आर्य सत्याचे सभाचे गीत
मुक्तीच्या पायांची मणिमय पांयजणां
प्रणयाच्या संवसारांत जैत जोडतल्ले
ह्या वीर पुरुषाक
प्रणव धनुष आसता,
शर आत्मा, आमी ब्रह्म लक्ष्य !

ओंकाराक क्रमान विलीन करून
सुक्ष्म अंश मात ते घेत्ताले
जेजूची त्याग भावना

श्रीकृष्णाचें धर्मरक्षा - उपाय,
बुद्धाची अहिंसा, शंकराचार्याची
बुद्धिशक्ति, रन्तीदेवाची दया
हरिश्चन्द्राचें सत्य
मुहम्मदाचें स्थैर्य
एकच व्यक्त्यांत मेळना जाल्यार
चलून मुखार वच्चात
आमच्या गुरूचें निकट वच्यात
न्हय तर तांचो इतिहास वाचून घेयात.

एक वेळाक तांचें दर्शन केल्यार
कातर, धीर, दुष्ट, कृपालु, कंजूस
दानशील, पिशुन, शूद्ध, परिशुद्ध
आनी अलस व्यक्ति प्रयत्नशील जाता
तांचो शांत स्वभाव सर्वत्र मेळटा
त्या तपस्वीचे मुखार शत्रूंची तलवार
नीळकमळ फुलांचो हार जाता
तेज दंष्ट्रा अशिल्लो सिंह
तांचे मुखार सरपाचें पील जाता
फेण भरून आशिल्लो ल्हारांचो
दरया तांचे मुखार
ल्हान क्रीडा सरोवर जाता

कार्यचिंतना वेळार तांकां
रान बी कांचनसभा जशें आसा
अनन्य समाधिंत लीन योगीक
नगराचें मदीं पर्वताची गुहा आसता
एकेकय शेतांत त्या धर्मीक कर्षकाचीं
सत्कर्म शुद्ध सुवर्ण उत्पन्न करता
त्या सिद्धपुरुषाचे म्हान दिश्टींत सुवर्ण
हळडूवे मात ये रूपांत दिश्टी पडता.

महान साम्राज्याचें ऐश्वर्य त्या विरक्त पुरुष हांकां
चामराचो हालपाचो आवाज रूपी अट्टहास करचो पिशाच
जे महान पुरुष स्वातंत्र्याच्या दुर्गम मार्गाचेर कौशेच पातलायता
खंयचेय कोमल पायांक कश्ट दीनाशी पड्चाचें वस्त्र
तेच वल्कलाचो कुटको न्हेसून
अर्धनयन सदा विराजमान आसा

गीताची माता (भारताची भूंय)
असल्या एका कर्मयोगीक
जल्म दिवच्यो आसता
हिमवान विंध्याचल दोनूचेय मदीं
शमाचो अभ्यास करच्या त्या सिंहाचें
दर्शन मेळटा

मंगल्याक फल दिवंचों कल्पवृक्ष
ह्याच देशांत जल्म घेता
जे देशांत गंगा होळटा

हे इच्छारहित नमस्कार !
हे दुराधर्ष नमस्कार !
हे महात्मन् नमस्कार !
हे जगद्गुरो नमस्कार !

# मातेक वंदन

मूळ : **वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन**

भाषांतरः **प्रॉ. आर. के. राव**

1

नमन करात आवयक, नमन करात आवयक
नमन करात महादेवीक, नमन करात आशीश दिवंचे देवीक!

2

जशें सत्यजीत रायाक हजार किर्णां सूर्यान
दान दिल्लें स्यमन्तक रत्न,
तशेंच जमदग्नी पूत परशुरामाक
अस्तंते सागरान प्रीतीन दान दिल्लो हो देश!
एक मोलादिक रत्नच की न्हय?
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक
नमन करात सागर पुत्रीक, हे देवीक.

3

श्याम हरित सह्यपर्वतार शिरस तेंकलां आवयन,
पश्चिम दर्या वेळे वयले रेंवेक पांयांक उशें केलां,
एका दिकान देवी कन्याकुमारी आनी दुसऱ्या दिकान
गोकर्णाचो देव राकता आमचे आवसूक!
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
जाची करतात आमी पुजा ते देवय करतात हिची पुजा!

4

दर्याचीं ल्हारां सदा सर्वदा धव्या फेणांनी,
सांगत्यां सारक्या तुज्या सोबीत पांयांक

बेस बरीं रुप्याचीं पांयजणां घालयता;
संतोस पावनातिल्लें निसरायता! मागीरीय करीत रावता!
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात असाधारण सुभागीक

5

भांगरा हाती सारके दुगलावंची कुपां
तांचे भेरियांचे घड आवाज सयत
लकलकचे इंद्रधनुष्या सजावटान चलचो वर्षा रुतुचे उत्सव
भार्गवक्षेत्रां विना आनी खंय दिश्टी पडतलो?
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात सुफलेचे देवीक.

6

चन्दन वनाच्या शितळ वाऱ्यांत हालून
ल्हवू ल्हवू माथें बागोवन व्हड पर्वतां वयर
आनंद पावंच्यो जयवैजयन्ती येळा वालींनी
तुजो घमघम खंय खंय पावयलो ना?
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात गुणवंतांक आकर्शीत केल्ले आवयक.

7

आहा, तुज्या बागांत पानवेलीक लग्न करून
घरभार चलोवंची सुपारीचीं झाडां
फळांच्या भारान माथें बागोवन
लोकोध्दार करच्या उत्साहांत हालून धोलून रावल्यांत.
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात सोयऱ्यांनी व्हडान गावून तुस्त करचें उदारवतींक

8

पिकप पावल्यार पोवळ्यां सारके
सुन्दर दिसच्यो मिरियां वाल्योय,

भांगरी कळशां सारके नाल्लय घेवन माडय-
विचार केल्यार भोव सुंदर तुजें भाट!
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात भक्तांचे देवीक!

9

दुख्खी मुखामळ परतून फाटी करचें न्हय;
तुमचीं अपुरबायोचीं भुरगीं आमी!
केन्नाय नेटान फुडें धांवचें काळाचें तारूं
यात्रिकांक भायर सरल्ले थळारीच पावंवचें.
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात प्रजा-मोगांत रिझल्ले देवीक

10

पोरणी रेंव लागून एक कोनशांत आशिल्लें
स्वामिनीलें तरसाद हें परतून आमी घेवन
पाळीश केले देखून निर्मल कांतीन मुखारीय
सूर्य किरणांनी चकचकीत जावूं!
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात आपणालें दूद दिवन वाडयल्ले प्रविणा मातेक.

11

तरसादानय तशेंच उतरांनीय विरोधकांक
जिखल्ले पूर्वीकांचें रगत
इल्लें इल्लें आमच्या शिरंतरांत बाकी आसा ताचे हुनसाणीन
आतां जाल्यारूय दोळे चिके विसकळायले मू आमी,
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात पूर्वी सावन कुशल बाळांचे देवीक.

12

आवयचें हें व्हड घर कुडके कुडके करन
वेगळे वेगळे करप म्हत्व नाशिल्ले निपट घयरांव हे?

हांकां पयस धांवडावपाक जागे जाल्ले आमी
उठावन आळसाय ना करून सोडचो एक सुस्कार पुरो!
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात सगळ्यांचेय कुशल मंगळ मागचे नामनेचे देवीक!

13

बऱ्या रूपान वेगळ्या वेगल्या फुलांनी बऱ्या भावकीच्या
रेशमा सुतान गुंथिल्लीं आमची नवी फांती
अपवित्र जाय नाशिल्लें केन्नाय आनंद द़िवन
सोबीत जावूं माता देवीचे छातयेर!
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात अद्वैत तत्वाचे अध्यापिकेक!

14

जावूं आवयचीं उतरां वेद आमचो;
जावूं हिची सेवा आमचें कर्तव्य उदात्त;
करूं अर्पण आमची जीण हिचे खातीर
भावांनो, ह्या संवसारांत कोण आसा हिचे पाशीय दुसरो देव?
नमन करात आवयक, नमन करात आवयक,
नमन करात आमची समस्त इत्साय पुराय करचें देवीक!

# कर्षकांगेले गीत

**मूळ : वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन**

**भाषांतर : एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या**

तरि लोकण्डाक आस कायी अश्रुधारा तें पडतलें मंदतकायेन
थेंबेवनु थेंबेवनु आनिक दिकूक पडतले जवचाक ते अक्षराकार :-
"मेगेले स्ववर्गीय ते राबचे अवश्य
केवल उपकरण कृषिकामाक, दित्ता पोषण तें जीवित रक्ताक
पडता अत्तँ उपयोग करकौशलाक
वोळैता तें जूझा वाटेन जीविताचे रक्त ।।

खंय पुणि दिकल्या शिरस एक ऊंच जावनु
निराश्रित आमी जत्तायि परिवृत खड्गरूपान
दोलता तें आनिक पांवता ताजेरी विकृत हास,
शूल तें करता नृत्त अनि नाळियो तें भोंक्ता अनिक थुकता;
कितलें कि उन्मादित संहारु करनायिवे आमी निष्ठुर धनियांक!
हो! केन्ना पांवतले उद्धारु अमी ये पापाच्या काळकां थकून" ।।

कोण आस अत्तँ थंयी यें वाचूक तमोवृत्त हो राज्य विना
स्वयं निरक्षर कर्षक करतायि जीवन
न्हयिं तसले वीर ह्या राज्यान्तुलिं जन
करचे धवे तांगेले नाव करून काळे सर्वत्र नाळियाचे धुवरान ।।

व्याज तं तें प्रभुत्व मेळेले दुसरांगेले निग्रहान
विरक्ति अधर्माचेरी आशिल्यांक
भारताच्या पर्वतांच्या उन्नत पति वडतावे ऊँच
दुसरे पर्वतांक राबोवून सकल?

तो शक्तिमत जीव रावता पळोवनु तांची उन्नति सन्तोषान
सदा मन्दहास्यान शुद्ध उज्वल हिममयान।।
असंख्य सस्य वाडुयात अति समृद्ध क्षेत्रांगणान्तु
ऋतु कालानिमित्ति आसचे नाशक्षयादिकांनि बाधित नातिल्यान;
जल्यारि विश्वप्रेम थंयी वाडना केन्ना वरेन,
राबता आमकां क्षेत्रभूमि शून्यभूमि जावनु तेन्ना मरेन ।।

मेजे देह तुमी बावगोव्यात पुंजावचाक शेण गायचें,
पुण जायना बावगूक अधर्माचे चरणांचेरी!
मेजे भुजारि नांगोरु तुमी वावोव्यात सन्तोषान,
जल्यारि जायना स्वार्थ लोभान्वेषणार्थ शासन करूक अनुष्ठान ।।

खोपियान्तु वींणचे चरखाचो नादु मधुरमय
करना प्रकोप जूझाक कोणाकय;
तें केवल करता आश्वासु प्रियकर तिजा शब्दान
कोणाक कि केल्या अस नग्नता परतंत्रतेन ।।
दुसरे जनांगेले दुखांचेरी काडप एकलाले जीवन
दुसरांगेले फट्टीवासानि स्थापन करचे उन्नत तोरण
दुसरांगेले शवशरीरानि बान्दप सोपान मेट स्वर्गाक,
ही अहिंसाचि भूमि केदनाय उद्यमु काडचिना ।।

ये व्होडले कर्मक्षेत्र सोडता हाथ तिजो
श्रृंखलमाला बन्धनाथकून न्हयि चिरडूक अनिक चूर्ण करचाक
लोकाक तिजा स्वलोभाचा हिता खातिर
जल्यारि अस्वस्थ जावनु 'पडलेल्या त्या रोग्यांचा लालना खातिर ।।

यो हस्तु, म्हळारि भारत, तिजा बंधन श्रृंखलाक करता भंजन
न्हयि उन्मादित जावनु धांवचाक दवरचाक लोकाक पादुकांचा सखल,
जल्यारि उभारचाक तिजा धार्मिक सोण्डालेन
सहन पांवचे पोण्डांत पडलेल्या बान्धवांक ।।

ही नदी म्हळारि ऋषिवर्यांगेली ही भूमि
फुटैता अन्तिमेर तिजे जलावरण
अनिक प्रवहित जत्ता न्हयिं ती भूमि बुडोंवचाक,
जल्यारि अनेक राज्यांच्या असह्य दाह शमनाक
पडलेल्या वेदनाजनक ताप दुखान्तु अनिक कर्तायोग्य तें राबचाक ।।

लोकाच्या दयालु सृष्टिकर्ताराले क्षेत्र भूमिरि
केन्ना कि मानुषिक प्रकृति पडता कीडकांक एक भक्षण,
अमी कशी राबचें वोडूनतिलें अमगेले जीवित प्राण
थंगा त्या पीडकांक घेंवचे फाटी अनिक धांवडाव्चे भायर ।।

जावो समस्त लोक सुखी जाव्नु राबचें ;
न्हयिं वे तो गीत केल्या गायन भारतान पूर्वकाल थकून?

# म्हजी भास

मूळ : वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन
भाषांतर : डॉ. एल. सुनीता बाय

लागी आशिल्या दर्या संयान
गंभीर शैली
सह्यपर्वताची दृढता
गोकर्णाची निर्वृति
कन्याकुमारीची प्रसन्नता
गंगेची पवित्रता
नारलाचें माधुर्य
चंदन, येकची, लवंगाचो वास
नांकाक आनंद दिवपाचो
संस्कृताच ओज, तयिकाचें सौन्दर्य
हांचें एकठाय रूप मेळची
हिच म्हजी भास !
हे अभिमान मदोन्मत्त तूं नाच कर

तोतरें उलोवपाचें ल्हान ल्हान ओंठाचेर
दुदाचें वांगडा, आईची दोन उतरांचीं दोन अक्षरां येतात
दसऱ्यो भासो धात्री समान
मनशाक आवय म्हणल्यार ताची भास मात
आईच्या वात्सल्याचें दूद पिवन
भुरगीं वाडतलीं
आवय जेन्ना भुरग्यांक दूद दिता
तेन्ना आमकां ती अमृत म्हणपाची जाता

खंचच्योय वेद शास्त्री, काव्य उगडासांत
तेन्ना येता जेन्ना ते आमचे
भाशेचे वाटेन शिकचें पडटा
आपले भाशेचे एकेक थेंबो हिताचो डरता
मनाचे भितर ती म्होव जशें घोळता
दुसरे थेंबे ताच्या भारच्या भागाक
प्रकाशीत करपाचें धवे मोतीं आसांत

आदिकाव्य, पंचमवेद, नीतिचो सार
उपनिशद सगळेच गावन सगटांक
आयकपाचें कैरळीक कांय शकाना
म्हूण कोण सांगता?
तरेकवार चिंतन भरिल्ले
पाकेचे वाटेन आमचे भाशेक
वाड्ल्यार आतां आशिल्या
फोंडांत साकून उंचार येवपाक
दूसरो कोण फाटबळ दितलो?
खंयचेच मनशांच्ये भाशेक
शक्त, प्रसार आनी प्रचलन ना तर
ती भास अशक्त, अविकसित भावांची
अप्रशस्त आसता

पोरण्या कालासावन संस्कृत भास
म्हणपाची महाराणी म्हज्या भाशेची
मंगलकांक्षीः अनिकूय, दुसऱ्या जुव्यांतल्यान
विद्याधन आशिल्ले कितलीं भुरगीं आसात
आनीकूच तुका दळडीर म्हणटान

दुसऱ्या भाशांचे फाटबळ घेंवचो
तुमचो प्रयत्न प्रयोजनशरन्य आसता आपल्या

आंपल्या कष्टांच्या बकाचेर उपार्जित केल्ले तुमी
आपले आई अर्पित कर आमची भास
कांय ल्हान, ल्हान, वात्सल्यपूर्ण भुरग्यां सया
सद्ग्रंथ वाचपाची क्षुधाक शमन करपाक असमर्थ जावन
दुःख योगपाची कुचेलपत्नी जशें न्हय वे?

कितले लज्जेचें कार्य!
कितले दुःखाचें कार्य!
पुत्रधर्म विसरूक नज
मातृ भाशेचें दास्य करचें न्हय
आपत्य करचें न्हय
भाकी भावान आपले भाशाचे
पायांचेर पडलें ना जाल्यार
तांचें मन्नें ऊंच कशें आसतलें?

बुद्धिमान मनशानो!
आपले भाशेची संपत्ती
विकसित करपाचो प्रयत्न कर
निडळावयले श्रमाचे हयेक तिलांजली दी

आनी कांय ना! कांय
कैरळीच्या अंङणांत
पांडित्य भिक्षा घेवंचाक
येवंचो एककलोय
भांड भरून जावन
परतून अतीत काला सावन
केरळीय कलंक रहित जावन
औदार्य घेवन प्रसिद्ध आसात.



# दैवदशकम

मूळ : **श्रीनारायण गुरु**

भाषांतर : **आर.एस. भासकर**

देवा राख तूं आमका
सोडूं नाशिल्ले राख सदांच
तारयो तूं ह्या भवसागराक
तरणी मूं तुजें पावल

दर एक वस्तु आपडून मेजतना
देखताले सगट अदृश्य जातेरी
तुकाच पळेत राविल्ले चित्त तें
विलीन तुज्यांत पावूं दी

अन्न वस्त्र आनी सर्वय
थांबनाशें दिवन राखून आमका
धन्य करतलो तूंच मू देवा
धनी म्होण आसा आमका

दर्या ल्हार वारें आनी खोलाय
एकमेळीन वागता जशेंच
आमी तूं तुज्यी माया महिमा
एक म्होण आमका समजून दी

तूं मूं देवा रचणाकारक
रचणार आनी रचणाजाळ
तूंच मूं जतलो आदीं सावन
रचणेक जाय तीं आवतां

तूं माया आनी मायावी
तूंची रंजक मायाजाळांत
तूं मू आनी मोह निवाळून
सायूज्य दितलो परमपुरुष

सत्य तूं सान आनी आनंद
तूंची वर्तता चालंतकाळ म्होण
भूतकाळ तूं भविष्याचो काळ
प्रपंचाचें स्पंदन कळेयता तूंची

भितरल्यान आनी भायल्यानीय
व्यापून रावता तुजें महा स्वरूप
यश गायताय आमी तुका
विजय पावं गा तूं देवा

जैत पावं तूं देवादीदेवा
दुबळ्यांक राखपाक जागृत रावतल्या
जैत पावं तूं बोधस्वरूपा
जैत पावं तूं दयासागरा

खोल तुज्या ज्ञानाच्या दर्यांत
पुरायेन आमी बुडूंक जाय
सदां थंयीच रावूं जाय
शाश्वत आनंदांत उरूं जाय



# आवसु आनी चेरडु

मूळ : **एन. कुमारनाशान**

भाषांतर : **पय्यनूर रमेश पै**

(मलयाळम महाकवी एन. कुमारनाशान हांणी 1915 नवेंबरांत बरयिल्ली ही कविता केरळचे प्राथमिक शाळेंतले अनेक वर्साचे पाठ्य पद्धतींत मेळयीले. भुरग्यां खातीर रचिल्ली ही कविता भावनेन आनी ज्ञानान बालपाठ शिकोवची.)

ह्या वाल्लीवेल्यान चोयि - चंद
फुलां उबतायिमूं आम्मा!

चुकले मू तूंवे लेकिल्लें - चेरडा
सांगन, सग्गय तीं पिसोळीं!

वयरि वयरि तीं वत्तायी - चोयी
मळबारी कसली चन्दायी!

अय्यो वचून खेळूंक जायना;
कळना मू माका उबूक!

जायनातिल्लें अशी सांगून व्यर्थ
कर नाका वेळु तूं चेरडा!

'चांट' जावनु खेळता मू तूं – जाई
मोगाऱ्याक तें कांय जाता?

तशी जालें इत्याक आम्मा - हांव
उम्मो दितां; एक सांग!

आमकां कळचें बरी ऊणें - पुता
सर्व देवालें संकल्प!



# पिर्लूक

मूळ : **जी. शंकर कुरुप्**

भाषांतर : **शरतचंद्र शेणै**

(जी. शंकर कुरुप् हांकां ഓടക്കുഴൽ (पिर्लूक) ह्या कवितासंग्रहाक प्रथम ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो. त्या संग्रहांतली प्रथम कविता ही)

लीलाविलासान जीवनगीत गावपी
कालदिशांक अतीत हे परमात्म्या,
कोणें नेणातीलें खंयचे कीं मातयेंत
केन्ना कशी मेळसूक जन्मलेल्या माका

तुगेल्या कृपावैभवान केल्या
चराचरांक आनंददायिनी एक वेणू!
तुज्या श्वासान चैतन्यपूर्ण जाली
क्षुद्र पोकळ ही नळी.

मनमोहक हे विश्वगायका,
गीत जावन तूं मिज्यांत आसा.
ना तरी साध्य कशी हें हर्षगायन
केवल निर्जीव एक पिर्लुकेच्यान?

धवो फुल्ल फेण मंदहासाचो,
निर्मल प्रेमप्रवाहाची मंत्रध्वनी,
जीवनस्पर्धेच्या ल्हारांची उर्बा,
दूकां लिकलिकपी नीळीं नयनकमलां,

दळदिर्याच्या कूपांच्यो काळ्यो सावळ्यो,
संवसारांत पापांचीं पुनरावर्तनां,
हीं समत्स एकमेळून व्हांवंदी
मिज्यांतली संगीतसरिता..
फाल्या ही पिर्लूक पडत अचूक
कालाचे खोल खोटलेंत विमूक
ना जाल्यार मेळत वाळत्येंत
मूठभर गोबोर मात्र बी जायत
सुस्कारीत थोडे सांगून सद्गुण
संवसार पुण दोहरायतलो दुर्गुण
जाल्यारीय तुज्या हातांत अर्पित म्हजो जन्म
सदैव आनंदपूर्ण आनी धन्य!



# केळीघडाव

मूळ : **चङ्ङम्पुषा कृष्ण पिळ्ळा**

भाषांतर : **आर.एस.भास्कर**

(चङ्ङम्पुषा कृष्ण पिळ्ळा (1911-1948) हे मलयाळम साहित्यांतले नामना जोडिल्ले कवी.मलयाळम काव्य साहित्यांत काल्पनीकतेचो वसंत फुलेयलो कवी म्होण कवीची नोंदणी जाल्या.)

मलयन म्हारान त्या खोपेच्या आंगणांत
पावस आयले दिसा एकी केळी रोयली

मनांत आशेल्या वरी पाचवें माणीक जशेंच
आंकूर एक एक ताजेर फुंटून आयलें

आपणाल्या भुरग्यांतुलें एक म्होण मानुन
अषकी म्हारणीन लाळयलें ताकाय

पावस पुराय गेल्लो तेन्ना मळब नितळ जाल्ले तेन्ना
मलयनाल्या साळोरेन गीत गायले

झाडां सगट फुल्लेले तेन्ना मंद वारें आयलें तेन्ना
मलयनाल्या खोपीनय माळ्ळी फुल्लां

शेतांत रोवणेक वेळ आयलो
काम साबार तांकां करूक पडली

कसपाक म्होण वतलीं सकाळी दोगय
परतून येतना आनी जातली सांज

ल्हानश्या त्या रोप्याक उदक घालूंक
जायना तांकां विसराय केन्ना

दीस दीस अशेंच संबाळिल्ले खातीर
रोप्पो तो वेगवेगीन व्हाडून आयलो

घनगार चेड्याकडें ग्रामीण चडवाक
मानांत अंकुरलेली प्रेमाची वाली जशेंच

केळीच्या सावटांनी मांडील्या जमकाळार
भुरगीं तीं बसतलीं वचून आख्या दिसा

दनपार वेळार वोत शिंवरून आसतनाय
करपलें पोट सयत भुरगीं थंय बसतलीं

थांगा बसून तीं खेळतले देखल्यार
निबर काळीज लागेन विरखाळेवन वतलें

रडतलीं तीं आनी हांसतलीं तीं
काळसांगुळे शिटूक तें झगडतले सदांच

हें पुराय देखतना चरचर वोता काळजांत
दयेची ओलसाण वितरायतालें सावट

दुबळी तीं मनशां शिणपी निराधारी
दुख्खां तांचीं आनी समजता कोणाक?

अर्द नागडीं तीं रित्या पोटाचीं
भूक तांचीं आनी सोंपतली केन्ना?

उदार मनांची तीं हिनसावणी घेवपी
दुरित तांचें आनी सोंपतलें केन्ना?

रासींनी भरतां हांगा नेम आनी नीती
पुण ना मूं थळ तांकां पावल लावपाक

घुसपल्ले पावलांनी वेंगेवपी संवसाराक
शकना मूं तांचेर दृश्टी उडोवपाक

घोंट देवोवंपाक जायनाशीं तीं मरताना
अंत्यसंस्काराक लेगीत पावंचीना कोणेय

उन्माद चित्ताच्या गिरेस्तकाये तूं
तुज्या सुराच्या मौजमजेंत मिसळून रावं

"रोसपाळ्या केळीचें केळें आसतले न्हूं
कितलें सुवादिचें" म्हण्टा माधव

भावाली उतरां तीं आयकोवंन, हांसून
विनोदी उतरांनी सांगता तो तेवन

"घडाव येवंक ना ताजा फुडें पुण
ल्हेंवट्याच्या जिबेर उदक आयले!"

"तांदूळ घेवपाक म्होण घडाव कातरून तेन्ना
विकतलो बाप्पा" म्हण्टा नीली

"वायट जिबेनी कांय सांगनाका गो पापणी तूं"
करुवाळोन हांणी दिल्ली हुकुम

आयकोवन हें आतां उठून दूर रावून
रोखडेंच ताका खुबळायलें नीलीन

"केळे पिकून जातेर तुमकां दाखयनाशें
अर्दो वांटूय हांवूच चोरून खातलें"

“चोवया गो ते पेट्टु घेतले तूं बडयेनी
अत्याग्रहु तुका चड जाल्यार!”

“सुवार्थी तूं पिश्या जांगेची साल तुगेली
करुवाळोन यो चोय सोलून काडतलो!”

ह्या तरांनी आसा केळीमुळांतु त्या
वळवळेप्यालो मेळावो घडतालो नित्य

जाता वेगीनच फुलोवंका म्होण ती
केळी लागेन मनांत आशेवन रावताली

तितलो आशील्लो आग्रो तांगेलो
जितलो खोल आनी आपलेपणाचो!!

एक दीस केळीचेर घडावो लागलो पळेवन
तिरुवोणम आयलें म्हाराल्या खोपेंत

झगडलोना करुवाळोन नीलीकडें मागीर
कित्या खातीर म्होण कोण जाण

तें एक चोरीण कळता बरेंच ताका
कोणेय नेणताच चोरून खावपाक

देखून ताजेकडें इश्टागत दवरल्यार
वांटो एक तांतुलो मेळतलो ताकाय

करुवाळोन जालो नीलीक प्राण
माधवान जोडली केळाली प्रीती

सावट वचून घडयानी चान्नें शिंपडताली ही
अवस्ता मूं हो निवळ बाल्यकाळ

भुरग्यांली ही खोशी पळेवूंन
अष़कीले मन आतां भरलें रोखडेंच
घडाव जून जावन कातरून पिकेवन काडूक
मलयाक भितरल्यान जाली ताकतीक

तीं आपणाली मायेस्त भुरगीं
अशीं तरीय तांकां भेटवण करयेत मूं

हाडां मोडून आनी काम काडल्यार तरीय
अर्द पोट पेज लेगीत तांकां दिवूंक जायना

श्रीमंतांली भुरगीं गोड हून पायस खावन
तांच्या रावळारांत सुसेग न्हिदून आसतना

आपणालीं बाळकां माये मोगाची तीं
हेंडताय मूं भुकेनी खर खर वोतांत

ताळो तांचो आसा तिंबेवूंक मेळता
गिरेस्तांल्या माळेंतलें उश्ट्या उदक

दयाहीण संवसारा हेंडत रावं तूं
काल्पनीक तुज्या भांगरा विमानाचेर

फावोशें शींवरपी तें चान्यांत बुडूंन
सुंदरताय भोगून भोंवडी माराय तुमी

प्रेमाच्या बागेंत हरयाळ्या सयेंत
शीतळताय घेवन तुमी सपन पळेयाय

हडदें भेतून हीं दुबळे लोक सगळेय
हांगा पडून अशींच तळमळेत मरूं

मेंदवाचे कट्टे तांचें एकटावन घेवन
दियाय गिरेस्तांक बांदूक रावळार

हड्या रगत तांचें चीवुन घेवन पीवनु
हांवपण तांचें तांकां परगटावूंक दियाय

हें कांय चोवं नका हें कांय देख नाका
भोवूंन रावं तूं तुज्या पोवळ्यां उद्यानांत

मलयान केळीक त्या हात लायलो घडियाक
मनां सावन ताज्या एक घडघडो आयलो

ताजी प्रतिध्वनी क्षीतीज बतून
हुयेल मारता अशें दिसले मूं ताका

दिसाच्या आंत्तमाळ्या रगत पीवनु
निसरन वता दूर सांजेचो सूर्य

राकडा बावल्या भशेन रावलो मलयन
ना मूं रगता थेंबो गालाचेर ताज्या

सोसूंक ना शक़पी उज्या ज्वाला खातीर
आत्मो ताज्यो आतां निर्धर लासता

अमीत खोसीन उडक्यो मारन खेळताय
मायेस्त भुरगी तीं भोंवतणी ताज्या

पान निसर्न वचून सुकिल्या रुखाचेर
वेडो घालन रावपी वाली जशेंच

झगझगून फुल्लेंले दोळे चोवन तांचें
रावपाक ताज्यान जायना इल्लें तरीय

ताळी मारून तीं व्हड व्हडान हासताय
चोयताना हें ताजे काळीज कोसळता

घडाव कातरूक कोयती उबारली तेन्ना
लक्ष विसरून हातु अशक्त जालो

करुवाळोन दिता नीलीक उमो
काळजांत भरिल्या आनंदान आतां

ना जाणताणा तेन्ना ओण्टावेल्यान ताजें
वेगवेगीन फुलताय मोगरीचें कळे

मलयनाल्या दोळ्यांतलान निस्तेंत आसा
दुख्खाचें थेंबें कांय त्या बुसबुस रेवेंत

इल्लें लेगीत हालूंक जायनाशें रावल्याय
निराधारी रुखावळ लागश्यान आनी दूरच्यान

केळाल्या खांद्यार बोटां आपडावन
ताळ धरीत रावला माधव

फांतीन पसरताली उजवाडा किरणां
सजयताय कोनश्यार केळाल्या दोळ्यांचें

मलयाल्या दोळ्या मुखार काळोख भरता
पांय निसरताय पुण करूं तो कितें?

दोळ्यांत मोतीबिंदु फुगता चोयताना
फटकिरो शिपडून मारता विखाळ वायु

अषकी त्या खोपेंत बसून हुंमट्यानी रडता
पुण हाजानी आतां जातलें कितें?

आशेन बळगून हाडिल्लो घडावो कातरलो
मायेस्त रोंप्याचो गोमटो कातरलो

घडाव कातरलो शैशवकालाच्या आनंदाचें
शितळ शुळशुळीत गळो कातरलो

घडी घडी ताळी मारन नाचून खेळताय
मोगाची भुरगीं तीं मेळसून खोशींत

प्रेता वरीच एक जाता मलयन
घडियानी ताजे मुखामळ बावता

घडाव खांद्यार मारनएक पुतळी जशेंच
साबार वेळा तो रावलो निश्चळ

भश्टाचार आगळीक अत्यांत कठोर पातक
सोसूंक जायना मूं कोणाच्यानय हांगा

फटींगपणां ना जाणपी पाप ही भुरगीं
दयाहीण आनी दोशी यो संवसार

निस्वार्थ सेवन दया विना मार
निर्धरताय आनी हा ! नित्य दुख्ख

आघात निराशा आनी कुडेपणां भयंकर
निरुपाधिक आसा हो नितीचो भारू

प्रतिकार हा़जो पुराय करनाशें रावतली कांय
पापी आसा व्हंय वारस तुमचें

घडाव खांद्यार घेवन रावलो मलयन
खोपेच्या आंगणांत एक पुतळी जशेंच

आवाज ताजो आयकूंकना भायर
हडदें ताजें आतां परतून परतून मारता

दुख्खानी चिड्डील्या ताळांन सागून मागीर
अक्षरां थोडी शिंपडली वाऱ्यांत

"हुकुम दिला धन्यान घडाव व्हरन दिता हांव
रडूं न्हय चरडुवांनो केळी वेगळी हाडतां तुमकां"

मलयन चंवकता खोपेंत मागीर चलता
रण्णें हुडकेवप आनी विळाप व्हड व्हडान

दुबळे शिणपी तें बावडे निराधारी
दुख्ख तांचें हांगा समजता कोणाक?

धनिकांनी मांडिल्या नीतीक हांतु
सांगपाक ना व्हय कांय? जाल्यार, फाटी सरता हांव



# व्हीडिओ मर्ण

मूळ : डॉ. के. अय्यप्प पणिक्कर
भाषांतर : शंकर रामाणी

‘वाई, अमेरिकेच्यान फॉक्स आयला?’
‘फॉक्स?’ कोलो? क्लिंटन काय दुसरो कोण बी?’
‘न्हय गे, विलिंटनभैयाक हांव वळखना? टेकियामाभशेन बरयल्लें आसता; तसलें?’
‘बरें बरें पळेतां...’
‘आगो ही दादाली चीट आयल्या. घे वाच.’
‘मोगाळ सरो,
आमची मदर सिरियस आसा म्हणपाचें कळ्ळें.
पूण हांगा चोविसय वरां पावसाची पिरपीर.
अमेरिकेंतलो पावस! प्रत्यक्ष पळेले बगर कळपाचो ना.
देखून थंय येवपाक म्हाका कशें जमतलें?
मदरच्या मर्णाचो व्हीडिओ मात मुजरत धाडून दी.
निमर्णा स्वास धरून, आमचे कडेन चाली प्रमाण करतात त्या सगळ्या क्रियाकर्मा मेरेन.
म्हगेल्या फ्रँडांक ‘फ्यूनरल’ खूब आवडटा.
इंडियन मॅरेज, व्हॅडींग रिसेप्शन, लग्नाची पयली रात,
हनीमून, डायव्होर्स, सती हें सगळें तांगेलें पळोवन जालें.
निमणो स्वास सोडले उपरांतचीं क्रियाकर्मा,

---

*-विलायती दादा*

देखीक :
प्रेताक शेणार काडप, ताका नवें वस्त्र कामरप; तोंडांत तांदूळ भरोवप;
पेट्टें सर्ण; हाडां फुटप आनी हेर घडणुको तांणी पळोवंक नात म्हूण
तांकां तें सगळें पळोवपाची उमळशीक.
हें पळे : ब्लॅक अँड व्हाईट आनी कलर्ड वेगळे वेगळे धाडून दी
मर्लिनाक ब्लॅक अँड व्हाईट आवडटा
पुणून जॅकलिन कलरा बगर 'चिताफिल्म' पळोवपांत मजा ना अशें
म्हणटा.
रोखडेंच व्हीडिओवाल्याक मेळून अॅडव्हान्स बुकींग करून दवर.
व्हीडिओ वेळार मेळ्ळोना, अम्मीन मदींच कूस माल्ली अशें जावंक
फावना.
बॅस्ट कॅसेट जाय जाल्यार, धाडून दिवपाची तजवीज करतां.
पावसाची कटकट नाशिल्ली जाल्यार, हांवूच थंय येवपाचों.
कॅसेट मात उत्तम जाय. खूब जाणांक दाखोवपाची आसा.
'द लास्ट मोमेंट ऑफ अॅन इंडियन मदर' हें टायटल बेस बरें दिसतलें.
लग्नाचो बी व्हीडिओ आसतलो अशें कोफुझांव जावंक नाका.
समस्त दुखेस्तांच्या मुखामळार कॅमेरो भोवंडावंक सांग.
ख्रिसमसाक सगळे फ्रँड्स जमतले व्हीडिओ पळोवपाक.
पयलींच धाडून दी. बरोवपाचें उल्लां तें मागीर कळयतां.
अम्मीक अॅडजस्ट करून घेवपाक सांग. पावसा विशींय कळीत कर.
टेक कॅयर.'



# भूमीक एक मोक्षगीत

मूळ : ओ.एन.वी. कुरुप्प्
भाषांतर : शरतचंद्र शेणै

आजून वांचल्ले भुंये
तुजे आसन्नमृत्यूर तुका
आत्मशांती !
हो तुजे (म्हजेय) अंत्यशुश्रूषेक
आज काळ्जांत रचिल्लो गीत !

मृत्यूचें काळें हालाहला फूल
फुल्ल्या सावटांत
फाल्या तूं आडें जातना
निर्जीव तुगेले ओंटार
दूकांचें गंगाजल ओंपून रडूक
हांगा फाय उरचोना कोणय, हांवय
देखून तुजे खातीर बरयतां -
आजून वांचल्ले भुंये
तुजे आसन्नमृत्यूर तुका
आत्मशांती !

बारा कुळांचे आवयकय आवय तूं
मेजूक जायना आनी साजून राबना तशा
पोरांक जन्मांत हाडले !
एकलो आनी एकल्याची तकली फुटयता चोवन
एकलो एकल्याक खाता चोवन
एकलोय नेणताशें
दूकां गळयत तूं राबली !

मागीर मागीर तुकाच खावन हे
भुंजून नांचतात !
एद्देंय आडायनाशें तूं 'सर्वम सह' जावन राबली !
पाचवीचार चोळी सदलावन तुवें
पाजयल्लें थानाचें दूद पिवन
त्राणी पावलेल्यांक लागली एक तान,
तान अखेरची, तुजें हृदरक्त पिवपाची !
मोगाळ व्हकलेक सूर्यान न्हेसयल्ली
मंजुळी विलोदा चोळी पिंजून
नागडे कूडार नांकटां खोंबून
घायांर व्हावल्लें रगत ते पिले !
भुंजून नाचूचो बोवाळ सगल्यान !
मोठ्यान गुंजता मृत्यूचो ताळ !

नेणतां आवसूगेर लग्न जाल्ल्या
यवनतरुणाली काणी ती पोरनी,
नवी कथा भुंयचीं हीं पोरां बरयतात
न्हेसवणां पिसडून आवयचीं !
तींय विकून हे सोरो पियेतात
नांकटां कुराडेचीं खेळतात...

जळतल्ल्या सूर्याच्या दोळ्यांत थाकून
क्रोध दाटून उठता, उजो फुटता !
सुकीं कूपां सोदतात उदक, आनी
आर्द्रीं सोदतात थंडाय !

श्रावणां माणकुल्यो कळयो सोदतात, आनी
न्हंयो सोदतात प्रवाह !
सर्गलयताळ चुकता,
जिणेचें रथचक्र फारकून थामता !

थेंबो तरि चान्नीणे जागृतायेचें
ह्या आंगांत आसू पर्यंत
तुज्यांत देह आनी जीव घेतल्ल्या
म्हज्यांत आसता तुजी याद !
म्हजे जिबेर म्होव एक्कण्ड घेवन
आयलेली आद्यानुभूति तूं !
म्हजो दीवो वाडवतना तूं
तीर्थकण जावंचेली अंत्यानुभूति !
तुज्यांत किरलेल्या तोणाच्या तोंकावेल्या
एक दोवाच्या थेंब्या वरी आसा
ल्हानसो सूर्या !
हें पळयत फुटल्या म्हज्यांत
एक अजापी फांतोड !
तुज्या रुकावळेंच्या सावळ्यांनी
भिनल्या म्हजी पुरुषार्थाची गाय !
तुज्या दर्या वयर भोंवल्यात वारीं
खंयचे की देवदूत आयिल्ले वरी !
माणकुल्या हजारांच्या पाळण्यांक
जूं काडून गीत म्होणचें,
जग्राण करचें,
देवळेंकडे हजार व्हिंदूळे घालचें,
पिंपळा पाल्यांनी नांचून रावचें,
पांच पात्यां फूल जावन आपोवंचें,
देवळा पारवो जावन घुरंघुरेवंचें, आनी
हजार न्हंयांतलीं ल्हारां जावन
म्हज्या आत्महर्षाक ताळ धरचें,
सर्व जाण हांव, तूं भरल्या म्हज्यांत !
अमृत म्हजें फकत तुजी याद !

वोवळी, चींच, फुलांचो शिरीष जावन
नव्य रंगाच्यो सत्र्यो परतुचें,
घुगुमा रडण्यान भेश्टावन मागीर
कोगुळा गीतान भय सोडोवंचें,
        भितरले भुंयेर चित्रां रचूंक
        शंबर वर्णांचे कोरंडे साजोवंचें,
        सांजे वेळानी भांगार पांगुरचें,
        तिनसांजे ओटू रानांत रिगचें,
मागीर खांदार उदयाक घेवन येवंचें,
माका जागोवन पीयूष पिवोवंचाक
कदळी वना मदें घोंटेरांत एक
कंवट राखून कविता रवावंचें, आनी
        जलकणा वरी तरळ जिणेक म्हजे
        जलज फुला पाती जावन तेंको दिवंचें,
        सर्व जाण हांव, तूं भरल्या म्हज्यांत !
        अमृत म्हजें फकत तुजी याद !
पांखांर संगीत धरचेले हंसिनी !
एक पांखाच्या तोंकार जळता आज
एक खिणाक तरि एक खिणाक
हें मधुर सत्य, म्हजें जीवन !
सोंतू हें जावं गे ! अमर तुकाच
मृत्यूच्या कायळ्यान मारल्या चोंच !
        मुंडित तकली घेवन, भष्टि जावन
        सौरमंडला हादीवेल्यान
        अपमानाची मोट भुजांर चडोवन
        संतानपापाचें वजें व्हावन
        रिते रिते मनांत तीव्र दुखयेचो उजो पेटून

चलचे यात्रेंत मू
चडता शिरांतुल्यान संत
काळो मृत्यु !
आजून वांचल्ले भुंये,
हो तुजो मृतिशांतिगीत !
तुजे आनी म्हजेय अंत्यशुश्रूषेक
आज काळजांत रचिल्लो गीत !
तुगेले निर्जीव ओंटार
दूकांचें गंगाजल ओंपून रडूक
हांगा फाल्या उरचो ना हांव, म्हणून
फकत इतलेंच बरयतां -
आजून वांचल्ले भुंये, तुजे
आसन्नमृत्यूर तुका आत्मशांती,

आनी मृत्यूर तुका अमृतशांती !

---

मोक्षगीत, मृतिशांतिगीत = REQUIEM

हालाहला फूल = NUCLEAR MUSHROOM

# फटी

**मूळ : ओ.एन.वी. कुरुप्प्**

**भाषांतर : शरतचंद्र शेणै**

('भैरवाली दुडी' ह्या आपल्या काव्यसंग्रहांतले 'नुणा' शीर्षकाचे हे कवितेंत मलयाळमाचे ज्येष्टकवि 'ओ.एन.वी. कुरुप्प' ना जायत येवपी एक गांवजिणेची आमकां गोडसाण दिता, जिचो विश्वास लेगीत फाल्याच्यांक एकदां येंवचो ना..)

'पी-पी' करून साद घालचेल्यो
धाकटुल्यो पिल्लूको केल्यो
भोवर्याच्या पाल्यांनी ..
जीवे चवळेन आनी तरणे व्हीरांनी
निर्मिले केतविले बैल देवाले ..

भांगरा रंगाच्या खोलियांचीं वाटीं
धवें फुल्ल शीत, लागी रांवदयो..
बिरमुटेक धरून सोंकरो काडयलो..
कदळी केळी फुलांतलो म्होव चोखलो..

पावसांत आंगण न्हंय कशें जातना
'तित्तै' म्हणून गायलीं व्हड्या गाणीं ..
पोंगे मुंयेक चडयल्लें पाल्याचें व्हडें
ते न्हंयेंत संथ देंवयलें ..

---

*നുണ

आंब्या रुकांच्या खांद्यांर व्हिंदूळे
तांच्यांनी जूं काडून झेलताले
'म्हाबली' गीतांकय धोलयताले..
फुलां जावन उदेल्लीं भुंयचीं सौंदर्यां
खुंटलीं तीं आमी परबेचे गींत गायत..

सोंपलेल्या आपल्या भुरगेपणाच्यो यादी
आज्यान मायेन वांटतना अशी
नातरांनी, मोगाळ पोरांनी, म्हळें -
*फटी मू फटी, सगल्योय फटी!*



# एक सपन

मूळ : **सुगतकुमारी**

भाषांतर : **शरतचंद्र शेणै**

कूडांतु लायलेली दिवली जळता, खाल
एक मोरा पांख वार्यार उबून खेळता.
आवयन घालेली धवे रसमाची झोळी एकि
वार्यार संथ संथ धोल्लता.

बाळु निद्देरि, पळोंवचाक जायना
लुगट हालोवपी वार्याक गांध परमळता.
नीलमेघा वर्णाचें, भांगरा पांयजणाचें
मिन्नें पावल मात्र झोळ्ये भायर दिकूक येता.

जायना सरूक लागी,
जनेलाचे, जन्मांचे, भायर हांव
व्यथा पावनु राकूनु राबतां..

---

*ഒരു സ്വപ്നം

# समानहृदयाळ्या, गायतां तुजे खातीर

मूळ : **सुगतकुमारी**
भाषांतर : **शरतचंद्र शेणै**

जाणा हांव आसा तूं थंय खंय तरी
हे समानहृदयाळ्या, गायतां तुजेंच खातीर.

मिजे गीतांची पळयता तूं वाट
ना मेळतना जाता दुखेस्त.

'कांय आतां बरयना तूं..'
म्हूण सांगून पांवता विषाद.

मिजीं उतरां भोव वळखीचीं
अशी आठयता तूं मनोमनीं.
'हांवें बरोवंक जाय आशिल्लीं उतरां हीं..'
संथ गुणगुणता तूं अशी.

जे जे विशीं जातात मिजे दोळे ओल्ले
तेच विशीं मू तिमतात तुजेय दोळे.

कंवळीं मुखामळां भुरग्यांचीं,
हळू गावपी एक पक्षी घूडांतली,
फातोर लागून थोंटेवपी सुण्यापील,
यादींत शेणलेलें कुड्डें म्हांतारपण,
परस्पर पळेत हरशींच हासपी मोगीं,

---

* *സമാനഹൃദയ, നിനക്കായ് പാടുന്നേൻ*

भगवें न्हेसून पयस वचची तरणी सांजवेळ,
कूडाच्या कोनस्यांत विसराच्या खीळ्यार

जाळें मांडलोलो हारां जोड,
सुखदिणें एकाद्रें गीत,
कारण कळनातीलो एकाद्रो हुडको,
भुकेनिमित्तीं भयान उदारो जांवचो
दुबळो माणकुलो हात..
हांचे विशीं तिमतात मिजे दोळे
हांचेच विशीं तुजेय दोळे जातात ओल्ले.

मिजीं पांखां विस्कळेतना
तूं दृष्टी उबारता.
परणे खंयचें एक गीत मिगेलें
गायत हळू तूं चलता.

मिजें तोंड वळखना तरीय
ह्या आत्म्याक तूं वळखता.
तशी जियेता थंय खंय तरी तूं
समानहृदयाळ्या.

अशी आठयतना दुशेर
मिजो ताळो बरो जाता.
निष्फल न्हय हो जन्म, हे मित्र
तुजे खातीर हांवें गायतना.
निष्फल न्हय हें गीत मिगेलें
जें तूवें गायत चलतना.



# अनौचित्य

मूळ : **प्रॉ. चेम्मनम चाक्को**
भाषांतर : **पय्यनूर रमेश पै**

1

एकशें पांच वर्साची ती सगळी गांवची आजी
‘मेली आजी’ वाजले सगळे फ़ोनार फ़ोन,
तिजी मरणाची खबर सांगूक;
सगळो गांव, लागिचो गांव धांवले तिका पळोवंक;
तिज्या सुत्तुय लोक जमले;
मोबायल आयकून हांगा थांगा धांवले
दनपाराचें दोन वरांक व्हरया तिका लासूंक
वर्सां शंबर भोगिल्ली ती निदल्या पळे नुतोच

2

घरा मुखारची वोणी पेल्या परमांत घाली चिता;
गांवचे लोक एकडे जाले बन्धुजनांय पावलीं.
पळयताना दिसता जशें होळता जनागंगा;
ताज्या मदें पुसपुसेवनु म्हस्त लोकांनी म्हळें:
“येवचो आसा काकूर साकून कामगार मंत्री आतां;
रीत दवरून वतलो बीयां पाड्ड वांटच्या सुवाळ्याक.
चड जाल्यार राकया सायबा अर्द घंटो ताका.”
वांचले गांवची अधिकारा पूजा आनी मर्याद.

3

वरां अडेच जावच्या पयलेच मंत्रि पावलो भाग्य
रीत घेवनु ताज्या मागशीच पावलो एकलो बावडो.
म्हातारिच्या पायांकडे मंत्री रीत दवरतना
पाकीटांतल्यान मोबायलाचो रिंगटोन आयलो भायर
'उम्मा दिवूं राक्षसी, उम्मा दिवूं राक्षसी'
लोकांक आयलो हासु; तांणी तोण्डार हात दवरले;
तेन्नाच ताजे मोबायलाच्यान आयलो दुसरो रिंगटोन
'लाजवंति तुज्या चोर दोळ्यांत'.....

4

मेलेलि ती सहिसुची ना असले अनौचित्यय
लोकांक अजाप जल्ले; तीं एकामेकांक चोयलीं.
किर्वडिचेर चोयि, आज्जी खरेच उठून बसली;
परिक्षीण तरी तिणे कोपान म्हळ्ळें अशी
बंद करिरे तुजो वस्तु; वच पुता काम कर;
गावांतल्या सुण्यावरी तुवय भोवूं नाका
मंत्रि गेलो, बावडो चलो कर्मज्ञानी जाल्लो
आज्जी तिज्या नित्यतेच्या हांतूळाचेर पळ्ळी

# चाली

मूळ : **प्रॉ. चेम्मनम चाक्को**
भाषांतर : **प्रॉ. आनंदन एन.एन.**

पळ्ळें सूणे मरनु रास्त्यार
चल्ले दिवस दोनि भोगून
चल्लीं जनां नांक धांपून
पळ्ळें सूणे मरनु रास्त्यार

इत्लो व्हडु होगांव आमच्या
दृष्टींत यैना पालिकेच्या !
दृष्टींत आयलें पाद्री तांच्या
पळ्ळें सूणे मरनु रास्त्यार

तेन्ना ताणे फोन केलें
पळ्ळें सूणे मरनु रास्त्यार
कळळें तुमकां आमचे दारार ?
काम तुमचें वैगीत करात

पालिकेच्या कारभार्याची
जाप पावली वेगो वेगी

मेलें कोण तांचें कर्म
तुमचें काम आतां धर्म
काम तुमचे करात वेगान
तुमी आमचे पुरोहित मू

पालिकेचि जाप आयकत
पाद्रि तेन्ना थटस् जालो

उप्रांत ताका पाद्रीन सांग्लें
व्हयरे बाबा तूंवे म्हळ्ळें
मनांत तुजे गर्व भरलें
कोणूय जनां मरण पावलीं
तेन्ना आमची चाली कळ्ळि?
बंधु जनांक कळौकारे
तोच म्हजो धर्म आसरे
तुक्का हांवे फोण केलें
म्हजे काम हांवे केलें

आयकत ताजे फोडो पडलो
मातें बावगोवन आतां बैसलो



# मनोराज्य

मूळ : एस. रमेशन नायर
भाषांतर : सूर्या अशोक

राजचिह्न ना, मुकुट ना,
सातें ना, घोडे नाय, हस्ती ना,
झूजा खातीर घमंड ना,
खंचेय सभेंत अंगत्व ना ,
संशय नाका, खांडेंय ना,
श्वेत चवरांचें वारेंय ना,
तरीय आसा माकाय
खास राज्य, मनोराज्य !

सवण्यां गीतांचो भूपाळ राग
आयकून सदांच सुप्रभाताक जाग
सुवर्ण शकुन दवरच्याक जावन
पांवता शीतळ उषःकन्यारत्न
भांगराळीं कमळां फुलून, हंसां फांती पोंवन
भोंवचे सौगंधिक सरोवरा देगेन
धवे संगमरमरा सोपणां, तांचेर सुतार्य
सूर्यकिरणां ओततताय कस्तूरी न्हय ?

देवाकूडींतु बेसून कीर
वेदश्लोक मंतरसिताय, देवळे मुकार
आशिल्या गांदा रुकांचे शाखेंचे केस
सुकयताय मेघां आंगशे कशे
फुलांतु वसंत फुलयताय
पूर्णमनाचे सारकें वात्सल्य
मिजे जीणे काव्यसरितेक मायेन
गिरीस्तन करयता स्तनपान

पाचवे पाट्या वस्त्र पांगूरनु शेतां
केन्नाच सुकनाशिल्यान आनन्दभरीत
उलोवनु व्हडाव्हडान खबर्यो
कुदून व्हळताय व्हडल्यो न्हंयो,
पाचवीं सातीं मात्यार घेवनु
पावसाक पळोंवचे माड्डे,
दूद निस्तुचे पाने घेवनु हांबेवंच्यो
वासरांक आपोवंच्यो गोमायो

पंडितांक - जे शिकलेले कष्टून,
मौनाचें सद् तत्व सफल करून
वरदान जोडताय दोंगर महान
सत्याचे कंवळ्या फुलांर मायेन
आद्याक्षरां बरवनु
येंवचीं भांगराळीं किरणां मेळनु
चूक सुधारताय
ताम्रशासनांचेर मेरेन

ना जातिमत भेद, वर्ग संग्राम,
वा संघर्ष गांवांतु मम
सर्वांकय एकीच भास, एकच आंग,
एकच एक ध्वज
मुखमुद्रा उल्लासी, मोतीं पिकोंवचे
प्रयत्नाचो अभ्यास, रातीचें
मोगरे मांटोवा सकयल बेसून
नर्मसल्लाप सयत भोजन

कुंकुमवर्णी मोगाळ सांज निपोवन
येतना काळूक भरून भरून
भांगरा चितळा चाम पांगरून
येंवचे वाग, नेता, नाशिल्लो गांव.
शांतिमंदिरा गोपुरांत
जनांली संतुष्टी भयरहित
निरंतर चरून झमेवनु सुकृत
जोडलेले तणामळाक वेंग मारतां हांव.

फटवण, घातोक, दुकां, वंचना,
व्यर्थ जल्पनां, आपत् घटणा,
मद मात्सर्य, अकाल मरण
धर्म, पातकां, पाप, चूषण,
अतिवृष्टी, अनावृष्टी नंतणा
नित्य रोग, आत्मीय खिन्न
कांय नाशिल्लें राज्य,
हें हांवें जियेवंचें मनोराज्य !

होमाग्नीचो घुवर विणून
कांबळो पांगूरता मळबाक तूं
हरदें प्रेमान मंथन करून
अमृतय वांटून दिता तूं
बरेपण तळी धरून

राबलेल्या राजमार्गान मू
येंवच्या पावसा स्मरणेक इंद्रधोणु धरसून
लागलो फुलाबाणु, हे, मनोराज्या !

रावळाराची कागाळघांट
आज तांय वाजूनाशिल्ली आसून,
मायेचीं भरपूर वरदानां सगट
वातायनांकडे वास करचीं आसून,
धैर्यलक्ष्मी दीवो लावनु राजवट
हाताळचे कारणान, संतुष्टीन भरून
सुखसमाधान मेळोंवचें राज्य,
हें मिजें मनोराज्य !



# मनीश अनी रुक

मूळ : **एन. के. देशम**

भाषांतर : **शरतचंद्र शेणै**

हा, हरित रुकांनो, म्हज्या आशांकुरांनो
सादर मन म्हजें नमितां खेद सहित तुमकां..

म्हजे मस्करे ल्हानपणांत तुमी
मांटोव जाले आनी पाळणें जाले
म्हजे यौवनांत तुमी मांच्या जोड जाले
जाण्टेपणांतलीं मौनदुःखां म्हजीं
धांपुपाक तुमी निमणी पेटी जाले

दोळे हर्षावपी रंगीत फुलां दिलीं
वारो परमळावपी सुगंध दिलो
भोंवरांक तुमी म्होव दिलो
भूक निवोवपाक फळां दिलीं
गोड रसाळ तशीं फळां दिलीं
वायुमंडलाक औषधी शक्ति दिली
नवे रेवेंक बरें सारें दिलें
सदा तरुणी हे भूमीक न्हेसूक
बहुरंगीन वस्त्र दिलें
पेज शिजपी रांदणेंक आनी
रेलगाडीचे इंजनांक ऊर्जा दिलें
जनावरांक बुलबुलांक जनांकय

फुलां मांटव दिले
मूळां कातरचे अत्याग्रहींक लेगीत
उदारपणान सावट दिलें

तुमी सेवक सदा सर्वदा
समस्त जंगम स्थावरांचे
दळदीरपण दूरा करून भुंयेक
पाचवीचार करपी हे रुकांनो,
आमी पसरावंचें वीख सोसपी
तुमी जीवामृत दिवपी
मात्येंत मूळां रिगोवन रावपी
नीळ मळबाक हात लावपी
तुमी पावस दिवपी,
मात्येंत पुराय उदक विर्कुपी
दर्यांत व्हावन वचनाशें
पावसाडेर मात्येक राखपी
उश्ण थंडावपी तुमी
दुर्गंधांक सुगंधित करपी
जनसंस्कृतीची थूक उच्छिश्ट
अवशिष्ट हळशीक वीख समस्त
भितर जिरोवन अत्तर करपी
रुचिकर फळां करपी
महा रुकांनो, असले मधुर
मधुभरित दैवी मंत्रविद्येन तुमी
धन्य केली भूकन्येक
श्रीमंत केली प्रकृतिमातेक
सोसूंक जालें जगजीवन

इतलेच दिसांनी तुमी कारण
**फाल्या ? कोण जाण ?**
**आनी चड काल ना, साध्य ना**
एकामेकाकडे झुजूंक मारूंक
मनशांक जाली ताकतीक
उजो, कुराड हाताळपी आमी
कृतघ्न ! तुमकां कातरूंक
मूळां हुमटावूंक, लासूंन
उडोवूंक देंवल्याय आमी
आपलें घर आनी शेजार लेगीत
चुडयेन उजो लावूंक देंवलेलीं
आवसूक मारून मागीर आतां
आत्महत्येची तयारी आमची
वृक्षांनो, तुमी दया कराय
बाबडे हे पापींक माफी दियाय..



# बोणसाय रुक

मूळ : **पी. नारायण कुरुप्प**

भाषांतर : **शरतचंद्र शेणै**

अश्वत्थ - भव्यांबर
न्हिदता नित्यताय थंय
वन वनस्पत विश्व वर
अनुग्रह ओतता पूर्णताय
वडा रूक - निगमागम तत्व -
करूंया आमी नमस्कार हांगा !

सवणीं हांगा न्हिदपाक पावंतलीं
नातूकां कोगळां चान्ने बी
वडा रूक करतलो तांकां
निश्वासवायून निरोगी.
तरातराच्या सवण्यां भिरीं ताका
सुंदर गीतांनी सानंदीत करतलीं.
सुंदर भाशण तशी गीत गावून
खांद्यांचेर उबून खेळतलीं.

* * * * *

आज ह्या आधुनिक घरांत
अपुरबायेच्या म्हज्या आंगणांत
दुःखाची प्रतिष्टाच तशी
एक बोणसाय वड मात्र !

होच खंय आधुनिक अश्वत्थ !
हतभाग्यालें हें परमार्थ.
भव्यरूप चिड्डून जालो
मुठ्येंत राबचो बोणसाय रूक.
अनंततायेक कशी कशी
विध्वंसिताय कुलघातक.
नवी कला म्हणून पळोवन
आनंद पावंताय पापिष्ट.
चकित जालों हांव
कितें हें केलें आमी
आमच्या अज्ञाना निमित्तीं !
कितलीं शुष्क जालीं शुभदृश्यां
मनशाले घोर मूढतायेन
भुरगीं आमचीं बोणसाय कशीं
गिड्डे जाले हे आमीच !
वडा रूक आपसूक वाडूचें सोडून
जालो अशी - ही खंय उदरगती !

सगल्या वर्साची समृद्धी आमी
एक तिरुवोणम् दिसा भितर आटयली.
फटवण नासलेलें जीवित
ह्या एकच दिसाक पुरो केलें.
चलन गमनाचो शक्तिविशेष सर्वय
आमी फिल्मा चिंदियेर मू थापय !

* * * * *

हुमटायाय हीं बोणसाय झाडां
समर्थपणान उडयाय दूरा दूरा !
हांगा सवण्यांनी शिंपडावंचें बीं बियाळ
फांतीन येवो वाड्डून !
ताच्या सावटांत प्राणवायू लागून
आवय भूंय भोगो थंडसाण !



# घुगूम!

मूळ : **के.जी.शंकर पिळ्ळे**

भाषांतर : **सखाराम शेणवी बोरकार**

म्हाका वेळ ना म्हण
कोणाली तरी न्हीद हांव न्हिदतां
दुसऱ्याल्या भंयान हांव भितां
दुसऱ्याले इत्सेन हांव म्हजी इत्सा भागयतां
दुसऱ्याले नदरेन हांव पळयतां
ते खातीर दुसऱ्याली भास हांव वापरतां
दुसऱ्याल्या विचारांनी येवजिल्ल्यान
जण एकलो म्हाका पेलूंक जायना
असलें वजेंशें दिसता
जण एकलो म्हाका पावूंक जायना
असली वाटशी दिसता
कितें? जिणेंक इतली जड करप गरजेचें?
दुसऱ्याल्या गिन्यानान येवजितकीर
आपल्या खताच्या कर्तुबांचेर
काळोख पडटा
तरूय प्रत्येक काळखांत
हांयस म्हाका आपले वटेन ओडटा.
उजवाडांत सत अद्रव्य आसता.
मध्यान रातीचो वगत

संवसार म्हळ्यार
आदले जिणेची खोलाय
अवतारांची संक्या घा लेगीत भरना.
पाताळ - रसातलांची संख्या चवदा लेगीत ना.
आंकडे आनी अर्थ
वयर आनी सकयल
खंयच एक सारकें ना
समत्व, शमत्व आनी दायत्व
कोणाचेंच कोणाक पडिल्लें ना.
संवसारच जाला अनाथ?
कोणे तरी कर्फ्यू लायला म्हण
हांवें म्हाका बंद करून दवरला
कोण हांगा म्हजी न्हीद न्हिदता?
आयज कोण म्हजें सपन पळयतलो?
म्हजें मरण कोण मरतलो?
कोणाचें जलप कोण पालयतलो?
हें म्हणीत कोण तरी घुस्मट्टा
गुजरातांत?



# हें तोंड नाका

मूळ : पी.आई. शंकरनारायणन
भाषांतर : पय्यनूर रमेश पै

उज्याक पळे
उज्याक तोंड ना

वायूक पळे
वायूक तोंड ना

उदाक पळे
उदकाक तोंड ना

भूंयक पळे
भुंयेक तोंड ना

आकाशाक पळे
आकाशाकय तोंड ना

जाल्यार हांणी सगळ्यांनी मेळून
माका एक तोंड दिलें
हें तोंड माका नाका आशिल्ले

अनीतीचे विरुद्ध
सर्वतोमुख उजो जावपाक
जालें तरी पुरो आशिल्लें

भ्रष्टाचाराचे विरुद्ध
वादळ जावपाक
जालें तरी पुरो आशिल्लें

अधर्माचे विरुद्ध
हूंकारून येवपी हुंवाराचें उदक
जालें तरी पुरो आशिल्लें

हें रुपडें
माका नाका आशिल्लें

भुंयचे भशेन सर्वय
सोसूक माका जायना

आकाशाचे भशेन सर्वय
पळोवन राबुकय माका जायना

माका राचें उदक जावपाक जाय
हें तोंड, हें रुपडें
माका नाकाच नाका

# अनुवादक


पी.जी. कामत


प्रॉ. आर. के. राव


डॉ. एल. सुनीता बाय


शरतचंद्र शेणै


एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या


आर. एस. भास्कर


प्रॉ. आनंदन एन.एन.


शंकर रामाणी


सखाराम शेणवी बोरकार


पय्यनूर रमेश पै


सूर्या अशोक

# कवि आनी काळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. | पूंतानम नंबूतिरी | (1547 - 1640) |
| 2. | वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन | (1878 - 1958) |
| 3. | श्रीनारायण गुरु | (1856 - 1926) |
| 4. | एन. कुमारनाशान | (1873 - 1974) |
| 5. | जी. शंकर कुरुप्प् | (1901 - 1978) |
| 6. | चङ्ङम्पुषा कृष्ण पिळ्ळा | (1911 - 1948) |
| 7. | डॉ. के. अय्यप्प पणिक्कर | (1930 - 2006) |
| 8. | ओ.एन.वी. कुरुप्प् | (1931 -) |
| 9. | सुगतकुमारी | (1926 -) |
| 10. | चेम्मनम चाक्को | (1926 -) |
| 11. | एस. रमेशन नायर | (1948 -) |
| 12. | एन. के. देशम | (1936 -) |
| 13. | पी. नारायण कुरुप्प् | (1934 -) |
| 14. | के.जी.शंकर पिळ्ळे | (1948 -) |
| 15. | पी.आई. शंकरनारायणन | (1945 -) |

# वेंचीक मलयाळम कविता

'मलयाळम' ही द्रविड भाषावर्गांतुली एक मुख्यभास. व्याकरण आनी उतरावळ पळयल्यार हिचें नातें तामिळ भासेकडे. पुण संस्कृत भासेचो म्हत्वाचो प्रभाव हिचेर आसा. क्रिस्ताब्द णवाव्या शतमाना पासून एक स्वतंत्र भास म्हणून हिचो परामर्श जाला. जाल्यार मलयाळम साहित्याचो उदय केवल बाराव्या शतकांत दिसून येता. तेन्नाचान मागीर प्रति एक शतकांतूय ह्या साहित्यांत साबार परिणाम पुरोगति जायत आयल्या.

- शरतचंद्र शेणै

पंदरा मलयालळम कवींच्यो
एकवीस कविता
इकरा अनुवादकांनी
कोंकणींत हाडल्यांत...



कोंकणी साहित्य अकादमी केरळ
₹ 80